

## प्रकाश पर्येकार

- गोंय विद्यापिठाच्या कोंकणी विभागांत सहाय्यक प्रोफेसर.
- कोंकणी साहित्याच्या मळार ग्रामीण कथाकार म्हण वळख.
- *दवरणें* (२००५), *इगडी बिगडी तिगडी था* (२००६), *कोल्याचीं नाडेपेन्नां* (२०१०) आनी *म्हादय : काळजांतल्यान कागदार...* (२०११) अशीं पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत.
- कथा, कविता, निबंद, एकांकिका आनी बालनाट्य अशे साहित्य प्रकार हाताळ्ळयात.
- तांच्यो कथा मराठी, हिन्दी, उडिया, तेलगू, काश्मीरी, मलयाळम, पुर्तुगेज आनी इंग्लेज भासांनी अणकारीत जाल्यात.
- समकालीन भारतीय साहित्य-नवी दिल्ली, इंडियन लिटरेचेर-नवी दिल्ली, भाषा-नवी दिल्ली, साहित्य अमृत-नवी दिल्ली, आय. एन्. एस्. ए. न्यूज लॅटर-नवी दिल्ली, हिन्दुस्तानी ज़बान-मुंबई सारक्या नेमाळ्यांनी कथा उजवाडा आयल्यात.
- णववेच्या कोंकणी पाठ्य पुस्तकांत *वर्सल* कथा जाल्यार बारावेच्या पाठ्य पुस्तकांत *दिपकावणी* निबंदाचो आस्पाव.
- कथांचेर लघुचित्रपट तयार जाल्यार.
- गोंय तशेंच अखील भारतीय पांवड्या वयल्या परिसंवादांनी सोद निबंद सादर केल्यात.
- म्हादय बचाव अभियानाचो वांगडी.
- ज्ञानसागर कला संघ शैक्षणिक संस्था, तार-सत्तरी हे संस्थेचे संस्थापक.

मोगाक भेट
08-10-2013

# आमचे आमी

## प्रकाश पर्येंकार



शाल्मली क्रिएशन्स




# आमचे आमी

(कविता संग्रह)

प्रकाश पर्येंकार

प्रकाशन क्र. : 04



पयली उजवाडावणी : आगस्ट 2013

उजवाडावपी :
शाल्मली क्रिएशन्स
धावें-तार,
वाळपय, सत्तरी, गोंय-403 506

ISBN-978-81-920961-2-4

मोल : ₹ 150/-

**AMACHE AMI**

A Collection of Poems in Konkani

**Prakash S. Parienkar**
prakash_pariekar@yahoo.com
8390303546 (M)

छापपी :
वैष्णवी प्रिंटर्स्
कोल्हापूर, महाराष्ट्र.

मुखपृष्ठ आनी भितरलीं चित्रां:
अनंत कामत बांबोळकार

अक्षर जुळोवणी :
रीया ग्राफिक्स
क्लासिक अपार्टमॅण्टस, पोरणें गोंय,
गोंय - 403 402

Publisher : Shalmali Creations, Dhave-Tar, Valpoi, Sattari, Goa - 403 506

● ह्या कविता संग्रहाक कला आनी संस्कृती संचालनालयाचो अर्थीक आदार फाव जाला.

# अभिव्यक्त जातना...

मनशान व्यक्त जावंक जाय. आनी मुखार वचून अभिव्यक्त जावंक जाय. वेगवेगळ्या कारणांक लागून मनीस अव्यक्तूच उरतात. मनीस व्यक्त जाता तेवेळार आपल्या अनुत्तरीत प्रस्नांच्यो जापो ताका मेळत रावतात. कविता हें व्यक्त जावंपाचें एक बरें माध्यम अशें हांव मानतां. म्हजे कवितेचे साबार विशय हाची गवाय आसा.

मनश्याची जीण धोंगां पोंगांनी भल्ल्या. समाजातलें व्यंग आनी विसंगती कवीक आपले वटेन ओडटा. मनशाचे वृत्ती आनी प्रवृत्तीन म्हज्यातल्या लेखकाक सदांच अस्वस्थ केला. विद्यार्थी, शिक्षक, लेखक, संघटक आनी सैम मोगी म्हूण वावुरतना कितलेश्याच बऱ्या वायट घडणुकांचो एक भाग जावन हांव जगलां. असंख्य अनवळखी आनी वळखिच्या मनशांकडेन म्हजो प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष संबंद आयला. हातुंतल्यान हांव स्वतः घडटना म्हजी लेखणीय बळिश्ट जायत गेल्या.

कोंकणी साहित्याच्या मळार कथा लेखक म्हण म्हजी वळख आसा. राष्ट्रीय पावंड्यार म्हज्या कथांची तोखणाय जाल्या. पूण कविता जगतना तिका सदांच वाचकां मुखार दवरपाक हांवें केन्ना जाणीवपुर्वक यत्न केले नात. बरयल्ली कविता रोकडीच प्रकाशीत करप वा सादर करपा पासून हांव मात्सों फाटीं रावलां. अशें कवितेचे बाबतीत कित्याक घडलें हें हांव निश्चीतपणान सांगपाक नकळो... बरयल्ले कवितेक अशी अप्रकाशीत अवस्थेंत खूब वर्सां दवरप हें समा न्हय. कारण ती म्हजी जिवन सांगाती. म्हज्या दुःखात आनी सुखाच्या वेळार तिणें म्हाका सदांच सांगात आनी बळगें दिलां. म्हज्यो भावना अभिव्यक्त करपाक तिणेंच म्हाका मुखार काडला. ताका लागून म्हज्यो मन- संवेदना चित्रीत करपी ही कविता वाचकां मेरेन पावपाक जाय अशें ह्या वेळार म्हाका मनातल्यान दिसता.

व्यक्ती हो समाजाचो घटक आसा. मनशां भितरली विसंगती नियाळटना हांव जायते फावट खंती जालां. ताका लागून सामाजीक जाणिवांचें पडबींब म्हजे कवीतेंत आसप हें सहजीकच आसा. बायुलें, पांडू, सुखाप्पा, माली, साजरो, मानुयेल द

सिल्वा तशेंच आवय-पूत, आजी-नातू, घोव-बायल, भाटकार, शेतकार, मेस्त, कुंभार, गंवडो, पसरकार, खाटीक, स्वातंत्र्य सैनीक आनी मोगी अशीं साबार पात्रां कवितेच्या रूपान तुमचे कडेन संवाद सादतलीं. आपलें सूख-दुःख, उमाळे, वेदनां, निर्शेवणी, हावेस नकळत तुमचे मुखार तीं उक्तायतलीं...

सैम वेदना म्हज्या काव्याचो अंतस्वर जावन हांगा आयला. सैमाचीं विवीध रुपां तुमचे कडेन आपलें मनोगत उक्तायतलीं. तांच्या त्या संवादात तुमी एक रूप जाले जाल्यार म्हजी कविता म्हजी उरची ना. ती तुमची जातली. ह्या म्हज्या पयल्या काव्य संग्रहात 'आमी' ही रासवळ संकल्पना खरायेन व्यक्त जाल्या. तातूंत आपलेंपण आसा. एकवट आसा. सहभावना आसा. सामुहीक दुःख आसा आनी विद्रोह लेगीत आसा. ह्या संग्रहाच्या निमणे कडेन कांय गितांचो आस्पाव केला. हीं गितां श्री. गजानन मेस्त आनी हेर कांय गायकानी आकाशवाणी, दूरदर्शन आनी हेर कडेन सादर केल्यांत.

१९८९ पासून हांव कविता बरयतां. म्हजें काव्य लेखन खूब सवकसायेन जालां हें खरें आसलें तरी जायते फावट हांव उटंगरानी कोसळ्ळां... १९९७ वर्साची गजाल. म्हाका कितें जालें कोण जाणा. भार आयिल्ले वरी हांवें एकाच बसकेंत सुमार ६७ चारोळ्यो बरयल्ल्याची म्हाका याद जाता... विद्यार्थी आसतना हांव सर्तींनी वांटेकार जातालों. महाविद्यालय, आंतर महाविद्यालय आनी संस्थानी घेतलेल्या सर्तींनी म्हज्या कवितांक इनामां फाव जाल्यांत. पूण म्हजे कवितेक कविवर्य बाकीबाब बोरकार यादस्तिक इनाम फाव जालें आनी म्हज्यातल्या कवीक काव्य लेखनाचें बळगें दिवन गेलें.

म्हज्यांत एक कथाकार आशिल्ल्यान चित्रमय कथन शैलेत म्हज्यो चडावत कविता आयल्यात. ताका लागून घटना, प्रसंग आनी संवादांच्या रुपान ती प्रगट जाता. हें तिचें प्रकटीकरण सहज आनी तिच्या मूळ धर्माक धरून आसा. वाचकांक ही म्हजी कविता निश्चीतूच भावतली असो म्हाका विस्वास आसा.

हो कविता संग्रह हांवें कोंकणी कवी श्री. नागेश करमली हांकां ओंपला. आयचे घटकेक कोंकणीतले ते एक जेश्ट कवी आसात. *जोरगत* ते *थांग-अथांग* ह्या तांच्या काव्य प्रवाहातल्यो साबार कविता म्हाका भावल्यात... ह्या म्हज्या कविता संग्रहाक

कवी श्री. माधव बोरकार हाणी अभ्यासपूर्ण अशीं प्रस्तावना बरोवन मार्गदर्शन केलां. ताचे खातीर हांव तांचो उपकारी आसां. श्री. अनंत कामत बांबोळकार हाच्या कल्पक मुखचित्राक लागून हो काव्यसंग्रह तुमच्या हातांत दिवपाक मनातल्यान आनंद जाता. ताचोय हांव उपकारी आसां. ह्या पुस्तकाची मांडावळ करपी रीया ग्राफिक्स, छापणावळ करपी वैष्णवी प्रिंटर्स् आनी पुस्तक प्रकाशीत करपी शाल्मली क्रिएशन्स हांच्याय उपकारात रावन दिसता.

ह्या कविता संग्रहाक कला आनी संस्कृती संचालनालयान अर्थीक आदार फाव केल्ले खातीर तांचेय उपकार. तशेंच सचिन रेठरेकर हाणीं मुखपृष्ठ मांडणी केल्ले खातीर तांचोय हांव उपकारी आसां.

– प्रकाश पर्येंकार

# गवाय

प्रकाश पर्येंकाराल्या ह्या पयल्या वयल्या कविता संग्रहाचो विचार करतना म्हाका गोंयच्या सामाजीक इतिहासाचो ल्हानसो नियाळ करप गरजेचो दिसता. गोंयच्या इतिहासाचे दोन वांटे करूंक येतात. एक गोंय मुक्ती पयलींचो आनी दुसरो मुक्ती उप्रांतचो. ह्या दोनूय कालखंडांचेर सादी उडटी नदर माल्ली जाल्यार लेगीत गोंयच्या समाजीक जिणेंत जो बदल जाला ताची कल्पना येतली. १९६१ उप्रांतच्या दोन तीन दसकांत हो बदल थोडो मंद गतीन जालो. पूण फाटल्या दोन दसकांत ह्या बदलाक गती आयल्या. गोंयचे कांय वाठार फाटीं उरिल्ले. अर्थिक आनी शिक्षणीक नदरेन. समाजाचो जो सकयलो थर आशिल्लो ताची आवतिकाय सामकीच काकळूट करपा सारकी आशिल्ली. अज्ञानाच्या काळखांत तो बुडून आशिल्लो. देखून ताका उदरगतीच्यो वाटो दीस नाशिल्ल्यो. चड करून सत्तरी सारकिल्या वाठारा संबंदान विचार करतना हें सत दोळ्यांक तोंपतालें. पूण आज ही परिस्थिती निवळ्ळ्या. ताचें एक म्हत्वाचें कारण म्हळ्यार थंय आतां गिन्यानाचो उजवाड पावला. शिक्षणाच्यो सगळ्यो साधनसुविधा ह्या वाठारांनी पाविल्ल्यान थंयचे समाजजिणेन कूस परतिल्या. आनी ताची गवाय आमकां विसाव्या शतमानाचें निमाणें दशक आनी ह्या शतकमानाचें पयलें दशक दिता. प्रकाश पर्येंकार, शाबा कुडतरकार, गोपिनाथ गांवस, नमन धावसस्कार हे नव्या तांकीचे लेखक मुखार आयले आनी ताणी कोंकणी भास आनी साहित्य हांकां वेगळें रुप दिवपाचो यशस्वी यत्न केला ताका तुळा ना. हे खातीर तांकां बरोच संघर्श करचो पडलो आनी आजूय तांकां जावपी विरोधाची धार मुणेवंक ना. हे पिळगेच्या साहित्याच्या वरवीं आज मेरेन अनवळखी आशिल्ली जीण आनी भाशेची सया कोंकणीत येवंक पावली आनी ताका लागून कोंकणीचें सौंदर्य चडटे कळेचें जालां. तेच बराबर कोंकणीतल्यान गिन्यानाचो उजवाड पडून काळखांत उरिल्लो समाज मुखार येतलो हें शणै गोंयबाबालें सपन खरें जालां अशेंच म्हणूंक जाय. भाशे बराबरूच साहित्याचें समाजशास्त्र आसता. समाज बदलता तसो तसो साहित्यांतूय म्हत्वाचें बदल घडून येता. प्रकाश पर्येंकाराची पिळगी ताची एक दोळ्यांत भरपा सारकी देख.

पर्येंकाराचो खरो पिंड हो कथाकाराचो. तो कथाकाराचे नदरेन ह्या संवसाराकडेन पळयता. अशें जरी आसलें तरी ताचे भितर एक कवी आसा. ताची खरी वळख आमकां कथाकार म्हूण आसूं. तरी आतां ताची आमकां वळख जाता ती एक कवी म्हूण. आनी तीय तितलीच म्हत्वाची आसा. कथाकारान कविता बरोवच्यो न्हय अशें कोणें सांगलां? हालींच्या काळांत आमकां अश्यो जायत्यो देखी मेळटात. गुंथर ग्रास हो नोबेल इनाम मेळयल्लो जर्मन लेखक कथा कादंबऱ्यां बराबर नाटकांय बरयतालो. सिल्वीया फ्लाथ ही कवियत्री 'बॅल जार' ह्या म्हत्वाचे कादंबरीच्यो लेखिका. अज्ञेय, निराला, चिं. त्र्यं. खानोलकर, पु. शि. रेगे ह्यो कांय आमच्यो देखी. असो लेखक एका परस चड साहित्याचे प्रकार केळयता तेन्ना त्या लेखकाची नीज प्रकृती ताच्या त्या प्रकारांक स्पर्श करता असो अणभव येता. देखीक खानोलकर खरो पिंडान कवी. पूण ताणें बरयल्ल्या कथा कादंबऱ्यांनी आनी नाटकांनी लेगीत ताची ही कविता दिसता. रेगेली 'सावित्री' ही सुपुल्ली कादंबरी म्हळ्यार एक गद्य कविताच.

पर्येंकार हो पिंडधर्मांन व्हड तांकीचो कथाकार. ताणें बरयल्ल्या कथांचें म्हत्व कोंकणी पुरतें ना तर भारतीय कथेच्या संदर्भांत तांकां मोल आसा. '*आमचे आमी*' हो ताचो पयलो वयलो कविता संग्रह. हांव ताचे कडेन एक कथाकाराचो संग्रह म्हूण पळयतां. ताचें कारण तांकां आशिल्ली कथात्मक बसका. एक कवी ह्या नात्यान आपली भूमिका मांडटना तो बरयता 'बायुलें, पांडू, सुखाप्पा, माली, साजरो, मानुयेल द सिल्वा तशेंच आवय-पूत, आजी-नातू, घोव-बायल, भाटकार, शेतकार, मेस्त, कुंभार, गंवडो, पसरकार, खाटीक, स्वातंत्र्य सैनीक आनी मोगी अशीं साबार पात्रां कवितेच्या रुपान तुमचे कडेन संवाद सादतलीं.' ताच्या ह्या उतरांचो अणभव ह्यो कविता वाचतना पावला कणकणी येता 'ते दंगलींत' ही कविता देखी खातीर घेवं येता.

**ते दंगलींत**
**सुखाप्पाचो हातगाडोय**
**जळून गोबोर जालो...**
**हातगाड्याचीं रोदां**

जळटां जळटां
सुखाप्पाच्या संवसाराचीं रोदां
गर ऽ गरऽ घुंवलीं

आनी मागीर तीं रेंब्यांत मुंगरिल्लेवरी उज्यांत ना नपयत जाता. हो सुखाप्पा हातावेल्या पोटाचो मनीस. ह्यो दंगली घडोवन हाडपा फाटल्यान राजकारणी लोकांचो हात आसता. आनी तो लेगीत लोकांचे बरें जावंचें ह्या हेतून न्हय तर आपलो सुवार्थ सादपाखातीर. ह्या सगळ्यांत भड्डून आनी चिड्डून वता तो सुखाप्पा सारकिलो सामान्य जीण जियेवपी. ताचो हातगाडो दंगलीच्या उज्यांत जळून गोबोर जाता आनी पर्यायान ताची जिणूय. दंगलीत सुखाप्पा सारकिलो मनीस विस्थापीत जाता. दंगलीची याद भुरग्या बाळांच्या पोटार तापिल्लें डांबर शिंपडायता. ही दुखदेणी याद काळ्या किट्ट डांबरेल्ल्या आवाजांत म्हणपाक लागता.

'आगा, आगा सुखाप्पाचो
हातगाडो दी गा
भुकेन – भुकेल्ल्या बाळकांक तेच्या
चिमटीभर घांस दी गा
आनी म्हाका इल्ली
रोदा पोंदची सुवात दी गा...'

काळजाक पिवळ घालपी हे उद्गार! हांगा आवाज डांबरेता. नामाचें क्रियापदांत केल्लें हें रुपांतर हांगा अर्थपूर्ण दिसता. ह्या क्रियापदांतल्यान अणभवाची तिव्रताय वाडटा. ह्या संग्रहांतली ही एक म्हत्वाची कविता. आजमेरेन दंगली सारकिल्ल्या मनीसपणाक काळें खत लावपी घडणुकांनी कोणाचेंच बरें करूंक ना. हाची घणघणीत गवाय आमकां इतिहास दिता. मागीर तो हिटलर जावं वा आमच्या देशांतल्यो घडंणुको जावं. खंतिची गजाल म्हळ्यार आयचो मनीस इतिहासाच्या अभ्यासांतल्यान कांयच शिकना. तो एकसारको त्योच चुको करीत आसा. हांगा कवीक ताचें मनापासून दुख भोगता. सुखाप्पाच्या पात्रातल्यान मनश्याच्यो व्यथा वेदना व्यक्त जातात. Human predicament अशें आमी म्हणूं येता. आनी हो Predicament व्यक्त करपाक कवितेक लाबिल्ली कथात्मक बसका योग्य

आसा.

'आयज भुंयचांफो फुल्ला' ही आनीक अशीच कविता. हातूंत बायूल आसा. फुलांचें पिशें आशिल्लें. ताचो फुलांचेर सामको जीव. पोरसांत फुलिल्लीं फुलां दुसऱ्याक वाटपाक ताका खोस भोगता. ताचे कडेन ही उदार वृत्ती आसा. ताका लागून फुलां भशेन ताचीय जीण पर्मळीत जाल्या. पूण ही कविता सोंपता ती दुख्खाचो सूर घेवन.

**आंकवार बायुल्याच्या मर्णा दिसा**
**भुंयचांफो फुल्ला**
**आपलेवरी भुंयेतल्यान**
**अळंग वयर येवन**
**फुलपिशें बायुलें**
**फुलचें परमळचें म्हूण...**

हांगा बायुलें निरागस वृत्तीचें प्रतिक जावन येता. हे कवितेक गांवगिऱ्या वाठाराची फाठभूंय आसा ती म्हत्वाची. गांवगिऱ्या वाठारांतल्यान आयिल्लीं मनशां सगळ्या अर्थान मातयेंतलीं. तशें पळोवंक गेल्यार पर्येंकाराले कवितेचें केंद्र हो मनीस. देखून माली, साजरो, भाटकार सारकिल्या पात्रांच्या तोंडांतल्यान ती वदता. ह्या सगळ्यांच्या वांट्याक दुखखांच चड आयल्यांत. 'पारवंशी पूत' सारकिले कवितेंत आत्मनिवेदन आसा. समाज अनौरस आशिल्ल्या भुरग्याकडेन कुस्कुटावपी नदरेन पळयता. खरें पळोवंक गेल्यार तातूंत त्या भुरग्याची कसलीच चूक नासता. पूण ताची ख्यास्त मात ताका भोगची पडटा. कामवासना जात, धर्म, वर्गभेद कांयच पळयना आनी हे वासनेच्या होमकणांत तांचो लासून गोबोर जाता. आनी त्या मुमरांत धुंवरेतात कितलेशेच पारवंशी पूत. तांकां बापूय आसुनूय बापूय नाशिल्लेवरी. ह्या संदर्भांत स्नेहप्रभा प्रधान हिचें 'स्नेहांकीत' ह्या आत्मचरित्राची हांगा याद जाता. तातूंत डॉ. शिरोडकाराचो उल्लेख आयला. संवासारीक कीर्त जोडली तरी पारवंशी पुताची तांची फाठभूंय ते विसरूंक पावलेनात. हातूंत समाजाची केदी व्हड चूक आसता तें उतरांनी व्यक्त जावपा सारकें न्हय. हो कवी ताचेकडेन आमचें लक्ष वेधून घेता. आनी समाजाक विचार करूंक लायता.

पर्येंकाराले कवितेक आशिल्लो सामाजिक आशयाचो संदर्भ म्हत्वाचो आसा. तो भुकाळांत रमना. पूण ताका वर्तमानाचें भान आसा. ताच्या कांय कवितांनी हें भान दिसता. 'माळयेचें घर' हे कवितेंतलो भुरगो माळयेचें घर बांदपाचो हावेस बाळगिता. सपनां पळोवप म्हळ्यार कसलीच चूक न्हय. आनी सपनाक जर कश्टांची जोड आसल्यार मनीस तें खरें करपाक शकता. ही कविता सपन आनी वास्तव हाचे मदीं आशिल्लें अंतर दाखयता. फुडाराक तो माळयेचें घर बांदतलो. पूण आज मिर्ग लागीं पावला तरी खोंप शिंवपाची उल्ल्या. कवितेच्या शेवटाक

**ते खोपीक पळयतां पळयतां**
**तिच्या दोळ्यांतल्यान**
**मिर्ग दडकेवपाक लागलो...**

ही तिची काकळूट करपा सारकी आवतीकाय जाता. आनी ही खोप शेणाचो थापो कशी. एक अस्सल गांवगिरें वातावरण जागोवपी प्रतिमा हांगा कवी वापरता. गांवगिरी भास आनी प्रतिमांचो वापर हें पर्येंकाराले कवितेचें खाशेलेंपण. आनी तें कितलेश्याच अर्थानी योग्य आसा. ज्या वाठारांतल्यान कवी येता ते मातयेचो वास ताचे कवितेक येतलोच आनी ताकाच लागून ती कविता अदीक प्रभावी जावंक पावता. संवसारीक कवितेंत अश्यो जायत्यो देखी आसात रॉबर्ट बर्नस् ह्या कविची हांगा याद जाता. कवितेक लाबिल्ले फाठभुंयेचेर भाशेचो वापर निंबून आसता. ताका लागून ते कवितेचे अभिव्यक्तीक प्रमाण भास मानतना तिका ओंठाचेर घोळपी भास आपणावची पडटा. आनी ताकाच लागून ते कवितेक एकेतरेची जिवसाण येता. ताचो अणभव 'आमचे आमी' हो कविता संग्रह दिता.

कोंकणी कवितेंत सामाजीक आशय केळोवपी एक म्हत्वाचो कवी म्हळ्यार र. वि. पंडित. पंडित आनी पर्येंकार हांच्या नावांतल्या अनुप्रासा बराबर तांचे कवितेचेंय एकामेकां कडेन नातें आसा. हें कांय कडेन लागिचें आनी पयसुल्लेंय. ह्या दोनूय कवींची फाठभूंय तशी वेगळी. ताचें पडबिंब तांच्या कवितांनी नकळटां पडिल्लें दिसता. पंडिताल्यो 'झिंगचे झिंगय', 'भाटकारालो सत्यनारायण' सारकिल्या कवितांच्या संदर्भांत पर्येंकाराले कवितांचो विचार करूं येता. तांचे भितल्लें सारकेंपण आनी तेच बराबर तांचेमदीं दिसपी फरक. एका काळार भाटकारशाय हो समाजव्यवस्थेचो एक म्हत्वाचो घटक आशिल्लो. हे समाजाक चिड्डयता असो

समज आशिल्लो. तातूंत फट अशें कांयच नाशिल्लें. पूण स्वातंत्र्या उप्रांत कूळ कायदो जालो आनी भाटकारशांयीचेर हावळ आयली. व्हड भाटकारां बराबर मध्यम वर्गांतले भाटकार तातूंत हुल्पले. आनी भाटकार ह्या उतराक गाळीची कळा आयली. पंडितालो भाटकार सामको खाकनवाळ जाल्लो. पंडिताची 'हांव भाटकार?' ह्या नांवाची dramatic monologue म्हणूं येत अशे तरेची कविता आसा. हे कवितेंत भाटकाराले आवतिकायेचें वर्णन आसा. ही कविता १९५८ तली. त्या काळार भाटकाराली आर्थिक परिस्थिती एकदम काकळूट करपा सारकी जाल्ली. पंडितालो भाटकार म्हणटा :

**'भाटकार' म्हळो... कि ह्या सगल्या**
**गजालींची म्हाका याद येता...**
**आनी रडूंक येता!**
**पायां पडटा तुमच्या... जाय जाल्यार म्हाका**
**गाळी मारात...**
**मात 'भाटकार' नाका म्हणूं!**

(धतरेचें कवन : र. वि. पंडित, पा. २१)

हो भाटकार सगळें विकून आपल्याकूच विकपाचो प्रसंग ताचेर येता. पूण ताका दर नाशिल्ल्यान उरता. 'तरीय हांव भाटकार' ही पर्येंकाराली कविता हालींची. ह्या भाटकाराल्या भाटाक वंय ना. वंय करप ताका पुटवना. आनी भाटांत चुडीत पडल्यार ताका तें मेळना. तें दुसरोच व्हरता. सावळ सारें घालून भाटाची उस्तवारी करप अर्थिक नदरेन ताका परवडना. हे कवितेंतलो भाटकार निमाणेकडेन भाट विकून सगळ्या जवंजाळांतल्यान मेकळो जाता. तरी भाटकार हें बिरुद ताका दशिल्लें तें कशेंच सुटना.

**भाट ना आनी घरांत आतां नाल्लूय नात**
**तरीय हांव भाटकार**
**कारण सगळे लोक म्हाका**
**'भाटकारा' म्हूण उलो घालतात**
**आनी हांव झेतान चलतां**
**भाटकार कसो...**

पंडित आनी पर्येंकार हांचे कवितेची एकामेकांकडेन तुळा करप हो एक अभ्यासाचो विशय जावं येता. ह्या दोगांयचे कवितेमदीं आशिल्लें सारकेंपण आनी त्यो तेच बराबर वेगळ्यो कश्यो हाचो विचार करचेलो यत्न करतां. ह्या दोगांयमदीं दोन पिळग्यांचें अंतर आसा. तरी ताणी व्यक्त केल्ल्यो सामाजीक जाणिवो त्योच आसात. वर्ग संघर्श दोगांयच्याय कवितांनी व्यक्त जाला. पूण तांचे मदलो मुळावो फरक आसा तो असो : पंडित 'हांव गावडो', 'झिंगचे झिंगय'तले आगरी हांचें दूख्ख व्यक्त करता तेन्ना ताका तांच्या भुमिकेंत रिगून तो अणभव घेवचो पडटा. दुसऱ्या भशेन सांगपाचें म्हळ्यार आपणे प्रत्यक्ष घेतिल्लो तो अणभव न्हय तर कल्पनेच्या पांवड्या वेल्यान घेतिल्लो. पूण पर्येंकार हो भौसांतल्यान आयिल्लो कवी. तो प्रत्यक्ष ह्या अणभवांतल्यान गेला. ताका लागून ताचे कवितेंत व्यक्त जावपी संवेदना थोड्यो वेगळ्यो दिसतात. ती कविता परिणामाचे नदेन चड प्रभावी जाता. ही तुळा तांकां ल्हान वा व्हड लेखपाखातीर करूंक ना. तर भौस आपले भाशेंतल्यान आपले नीज अणभव वदूंक लागतकच तिचे अभिव्यक्तीक कशें परिमाण मेळटा हाची समजिकाय हे तुळेवरवी खोल जावंक पावता. 'आमचे आमी' तली कविता कांय बाबतींत पंडिताचे परंपरेंतली. कोंकणी कवितेक आनिकूय मुखार व्हरपी. परंपरा म्हळ्यार कवीच्या माथ्यार दवरिल्लें वजें न्हय. तर ही परंपराच कवितेचे संस्कृतायेक बळ दिता. अस्सल कविता तातूंतल्यान फुलून येता.

हो कवी म्हादयचे मांडयेर खेळ्ळा आनी वाडला. म्हादयचेर ताणें बरयल्लें पुस्तक वाचतकच ताचे प्रतिभेचो आवाठ लक्षांत येता. ह्या सैमाचीं चित्रां रेखतना तो म्हणटा :

**सैम उबें भांगर हाशें**
**लोळटा मन वारें पिशें**
**अटंग्या रानात**
**कोण बांसरी वाजयता**
**वाट चिरीत सूर**
**मना चंवर भरशिता**

अशें जरी आसलें तरी सैम ताच्या भावविश्वाचो म्हत्वाचो घटक जायना. ताका सैमा परसूय मनश्यांचीं सूख दुःखां समजून घेवपाक चड रस आसा. सादो

सरळ मनाचो शेतकामती ताका म्हत्वाचो जाता. ताच्या वांट्याक आयिल्ल्या तापत्रयांत तो एकरुप जाता. ताणें आपले कवितेंत सैमाचें वर्णन केलें ना तरी आज वेगवेगळ्या कारणांक लागून सैमाचे सोबीतकायेचो जो ऱ्हास जायत चल्ला ताची खंत तो व्यक्त करता. गांवगिऱ्या वाठारांत शारीकरणाची कीड लागल्या ताचो परिणाम थंयचे जिणेचेर कसो विपरीत जातलो हाचो भंय ही कविता व्यक्त करता आनी ते विशीं गर्भीत शिटकावणीय दिता.

कवी उजवाडाक होरायता. ताचेकडेन तो तांचें सर्वांग भरून उडोवपाची प्रार्थना करता. समाजांत आशिल्लें सगळें हीण लासून गोबोर करपाचे मागणें करता. ते खातीर तांच्यांतलें विखाळ दुश्टपण कडोवपाची तयारी तो दाखयता.

**आनी भेटयतात आमी तुका**
**आमच्या काळीज गर्भांतलो**
**मोग, माया आनी आपलेंपण**

तरूच ह्या संवसारांत सूख शांती आनी बरेंपण नंदतलें ही ताणें आपल्या मनांत धरिल्लो घट्ट विश्वास.

सामाजीक आनी सांस्कृतीक वातावरण लेखक आनी कवीक घडयता अशें अरबिंदोन 'द फ्युचर पोएट्री' ह्या आपल्या पुस्तकांत बरोवन दवल्लां. पन्नास वर्सां आदीं बाकीबाब बोरकारान मनापासून जे न्हाल्यात / उपासांनी बांदून पोट / वर्सांसंकी मोनेच मोने / आपल्या हातान शिंवन ओंठ / तांचे वेग, तांचे जाळ / येतली आतां तांकां धार अशें भविश्य केल्लें.

बाकीबाबाली भविश्यवाणी खरी जाली हाची गवाय म्हळ्यार प्रकाश पर्येंकाराली कविता...

**– माधव बोरकार**

डब्लु. बी. येटस् जयंती
13 जून 2013
ग्रीनपीस हाऊ. सोसायटी
नागाळी, ताळगाव – गोंय
403 002

# मांडावळ

1.

## सैम पिश्या मना

सैम उबें भांगर हांशें
लोळटा मन वारें पिशें

अटंग्या रानात
कोण बांसरी वाजयता
वाट चिरीत सूर
मना चंवर भरशिता

हो कोण गे कान्हा
काळजा तळमळ मना
गवळण चलता वाट
अटंग्या रानाचो घाट

खिणा मुरगट्टा नदर
हड्ड्यार ओडून पदर
आंगां सळसळ पानां
कांट्या कणकिचीं बनां

धांव घे रे म्हज्या कान्हा
ह्या काळोख बिण्ण राना
बंद कर पिंजऱ्यात
म्हज्या सैम पिश्या मना

2.

## आयज भुंयचांफ्फो फुल्ला...

बायुल्याचें घर
घरा मुखार पोरसूं
पोरसांत फुलां तरा तरांचीं
बायुल्याचो जीव फुला फुलांचेर
बायुलें घालता वळेसर...
यो गे मावशे
तुकां एक फाती व्हर
यो गे काकी
तुकां ही आटी माळ
बायुल्याचे दिवाळेक
रोजांचे गोंड
बायुल्याच्या धाल्याक
शेंवत्यांचो परमळ

बायुल्याच्या काल्याक
रतन आबोल्यांची रास
बायुल्याच्या शिगम्याक
रंग रंगयाळीं सदाफुलां
बायुल्याचे जात्रेक
मोगऱ्यांचो वास
बायुल्याच्या जल्मदिसा
कणकिचें बेट फुलिल्लें खंय !
पूण आयज
आंकवार बायुल्याच्या मर्णा दिसा
भुंयचाफो फुल्ला
आपलेवरी भुंयेतल्यान
अळंग वयर येवन
फुलपिशें बायुलें
फुलचें परमळचें म्हूण...

3.

## माळयेचें घर

'आवय, मी शिकोन
मोठो जातकच
माळयेचें घर बांदतलों'
'हय, वयले माळयेर मियां[1]
आनी सकयले माळयेर तियां'[2]
'नाका, माळी चडपाक
तुकां तरास[3] जावचे ना?'
माळयेचीं सपाणां चडचीं
तशीं तीं दोगांय
दनपारच्या कडार
दोंगर कडो चडलीं...
ह्या दोंगरा पलतडी
आसा तांची एक ल्हानशीच खोप
मिर्ग लागीं पावलो तरीय
खोप आजून शिवूंक ना
पूण मिर्गाचो पावस मात
निश्चीतूच येतलो...
'आवय ती बग[4] आमची खोप!'
दोंगराच्या तेमका वयल्यान
तो आपली खोप नियाळटा
'आवय माळयेचें घर
हांगासून बरें दिसतलें न्हूं'
'हय पुता'
शेणाचो थापो कशे
ते खोपीक पळयां पळयतां
तिच्या दोळ्यांतल्यान
मिर्ग दडकेवपाक लागलो...

---

1. हांव
2. तूं
3. त्रास
4. पळय

4.

## आमी जिखले

आमी जिखले आमी जिखले
म्हणत
भर रस्त्यार तुमी नागडेच नाचले
आनी
राजकारण्यानी मात तुमकां
तांदळांतले आशे कशे वेंचले...

आमी जिखले आमी जिखले
म्हणत
आंगार भार काडीत खुदले
आनी
हातार कितें तरी पडचे पयलींच
तोंडात तुमच्या शेण ओतलें...

आमी जिखले आमी जिखले
म्हणत
कुल्यांक पांय लावन तुमी धांवले
आनी
गेटी भायर उबे रावून
तुमी तुमच्याच कालसांवात मुतले

आमी जिखले आमी जिखले
म्हणत
तुमच्या अपेक्षांचे कोंबे बोबले
आनी
चूड दाखोवन हाडलेल्या म्हारूक पळयत
तुमचें मनीसपणूच सळयेन दागलें

5.

## धेंकर केन्ना येयलोच ना

करांदाय कित्याक मारता?
फाटीन-फाट भर
सारणिचो मुगाडो
पडना फुडें
तो भुकेन वळवळपी पोर
मोठ्यान हुयेल मारता...
ती भुकेल्ली हुयेल
भीक मागीत भोंवता
एके उंडये खातीर
घरान घर
दारान दार...
पूण कोणाच्याच घराक
कंठ फुटाना
कोणचेंच दार उगडाना...
हें पळोवन,
ती तिश्टल्ली हुयेल
फोडटा हामेल
ब्रम्हांड गाजोवपी

तेन्ना बसतात कानठळ्यो
भूस मारतल्यांच्यो...
पूण, त्याच खिणाक
सुट्टात धेंकर
एकार एक
आनी भोंवडटात हात
सुस्तावल्ल्या पोटांवयल्यान...
हांगा हुंडके – हुंडकेत
फटकुऱ्यार[1] आड पडलेलो पोर
खिणभरूच भूक विसरता
आनी अजापीत जावन
कान दिवन आयकता
धेंकरांची ती किमया
कारण त्या पोरान
धेंकर केन्ना आयकूंकच नात
आनी तेका धेंकर
केन्ना येयलोय ना...

1. कांबळीची वापरून झरून
जाल्ली अवस्था

6.

## भुरगेपणातली झर...

मिर्गाचो पावस
एक सारको कोसळूंक लागतकच
त्या दोंगर पालसणांत
फुट्टाल्यो असंख्य रानझरी...
त्या काळार
सगळ्यांच भुरग्यांची आसताली
आपली अशी एक एक झर
'ही खडपापोंदच्यान
होंवता[1] ती झर म्हाजी हां'
ती झर निवळ करपाक
म्हाजे माणकुले हात सरताले मुखार...
उमळ जातकच
हांव ती खडपा पोंदची झर
वर्सान वर्स
न चुकतां निवळ करतां
अंदू मिर्ग मात्सो बेगीन येयलो
दडकार दडको
कोसळटात
उदकाचे लोंड्यार लोंडे[2]
व्हांवतात
चार दिसां भितर उमळ जाल्या
पूण म्हाजी ती झर मात
ह्या वर्सा फुटलीच ना!
फुट्टली कशी?
दोंगर पालसणांतलें तें रान
खंयचेकडेन ना-नपयत जालां
कारण त्या रानमाथ्यार

---

1. व्हांवता
2. खोलप्यो, बडयो आनी हेर वाटेक मेळटा तें सगळें घेवन व्हांवपी पावसाच्या उदकाचो लोट.

भोंवून गेल्यांत
तरा तरांचीं शेवालां...
आतां त्या दोंगरमाथ्यावयल्यान
देंवतात
तांबड्या पाणयाचे लोंडे...
हांव मात
इल्लोसो भुरगो जावन
मिर्गाच्या पावसाची वावझड
आंगा – खांदार घेत
सोदतां म्हाजी ती
माणकुली झर...
झर म्हाज्या भुरगेपणांतली
झर त्या दोंगराच्या अस्तित्वाची
म्हाका झर गावाना
तांबड्या तांबड्या पाणयात
झरीचो थाव लागना
अश्या वेळार हांव रिगतां
मनश्या मनश्यांच्या काळजांत
आनी हुंडके हुंडकेत घेतां थाव
जण एकल्याच्या
सुकून सडसडती जाल्ल्या
गिमाळ्या दोळ्यांनी
म्हाजे ते भुरगेपणांतले झरिचो...
घडये, नागड्या उगड्या
त्या दोंगराक पळोवन
तुमच्या एकल्याच्या तरी
वाळवंटी दोळ्यांनी
पाझरत काय ती म्हाजी
भुरगेपणांतली झर...?

7.

## पलतड ना

‘ही वाट खंय वयता?’
‘न्हंय पलतडच्या गांवात’
‘वाटेर न्हंय लागता?’
‘हय’
‘पलतडी कशें वचप?’
‘न्हंय उतरून’
बरोच वेळ भोक घश्टीत चलतकच पांडू
न्हंयच्या देंवण्यार थांबलो
‘पलतडी वयतना
न्हंयच्या देंवण्यार व्होंवलों जाल्यार?’
आलतडचे पलतडी
आनी पलतडचे आलतडी
कितलेशेच वाटसरू न्हंय उतरून
येत आसात, वचत आसात...
पायान पांगळो
आनी मनान दुबळो पांडू
असो आलतडी
नदर पलतडी लावन
देंवण्यार मोनेळ पांघरून बसला...
‘सातक्या पांडू
तूं पलतडी कित्याक वयता मरोंक?’
कांय तरणाटे
कंबर भर उदकांतल्यान
न्हंये पलतडी गेले
पांडूक थंयच सोडून
कारण तेका पलतडूच ना...

8.

## उदकाचे थंड थंड थेंबे...

खडपाच्या चरमांतल्यान[1]
एक सारके पाझरत आसात
उदकाचे थंड थंड थेंबे...
त्या दोंगराच्या पोटांतल्यान
झिरपत झिरपत
ते थेंबे वाट काडीत
अळंग देंवतात ह्या चरमाच्या गोपांत
आनी मागीर एक एकलो
निरंतर लागता गळपाक
त्या खडपाच्या नितळ शांत कोंडांत...
त्या थेंब्या थेंब्यांत आसा
निर्मळताय आनी धर्तरेच्या पोटांतली
सूख थंडाय
हे उर्जा दिणे थेंबे
अचळय पोश्यांत एकठावचे
आनी मागीर
शिपडचे दोळ्यांच्या बुबूळांचेर
तांची थंडाय रिगोवन घेवची अंतस्करणांत
आनी जावचें तांचेच भशेन
थंड किरांव उदक...
कारण एकादो रानवाटसूर
येवचो म्हाजे लागीं
आनी मारचें उदक
आपल्या जड थकिल्ल्या दोळ्यांचेर...

1. पाणथळ जाग्यार जंय उदक एकसारकें पाझरता त्या जाग्यार झाडांचीं ल्हान सूत कशीं चोब्यांत पाळां देंवतात.

9.

## ते दंगलींत

ते दंगलींत
सुखाप्पाचो हातगाडोय
जळून गोबर जालो...
हातगाड्याचीं रोदां
जळटां जळटां
सुखाप्पाच्या संवसाराचींय रोदां
गरऽ गरऽ घुंवलीं
आनी मागीर
रेब्यांत मुगरिल्ले वरी थंयचे थंय
उज्यांत ना-नपयत जालीं...
हय,
सुखाप्पाक एके उंडयेचें
सूख दिवपी तीं रोदां
हाचे फुडें
त्या शारांत घुंवचीं नात
घुंवतल्यो फकत यादी...

यादी,
डांबरी रस्त्यार उठून दिसपी
त्या रोदांच्या मागाच्यो,
तशेंच जालें
एक याद, रखरखीत
डांबरी रस्त्यावयली उठून
सुखाप्पाच्या काळजाक
कुच्च करून तोंपली...
आनी तेच्या
भुरग्यां - बाळांच्या पोटार
तापिल्लें डांबर शिंपडायत
ती याद
दंगल पेटयतल्यांच्या मुखार
हांबेल फोडीत
हुंडक्या हुंडक्यांनी
रडटां-रडटां
काळ्याकिट्ट डांबरेल्ल्या आवाजांत
म्हणपाक लागली...
'आगा, आगा सुखाप्पाचो
हातगाडो दी गा
भुकेन - भुकेल्ल्या बाळकांक तेच्या
चिमटीभर घांस दी गा
आनी म्हाका इल्ली
रोंदा पोंदची सुवात दी गा...'

10.

## बिलुचो माग गावना

येता बिलू… वयता बिलू…
पूण माग गावना…
बिलू येतालें बिलू वयतालें
पलतडच्यान आलतडी…
आलतडच्यान पलतडी
‘तारया रेऽऽ’
कानार साद पडटकच
आलतडची तड सोडून
बिलू पलतडी तुरूतुरू धांवतालें…
आलतडचो पलतडी
आनी पलतडचो आलतडी
कोणूच उरचो न्हू
होच बिलूक हुस्को…
तारयो तांडटा
बिलू एक सारकें धांवता
तारयो वेरें धरता
तशें बिलू आरतता… बिलू परतता…

बिलू जोडटालें गांव
बिलू जोडटालें घरां
बिलू जोडटालें मनशां
बिलू जोडटालें मनां
बिलू जोडटालें काळजां...
हय, बिलूक एक मन आसलें
न्हंयच्या उदकाचेर उफेवपी
बिलूकय एक काळीज आसलें
न्हंयच्या उदकाचो थाव घेवपी...
बिलू आमचें बिलू
आमच्या दायजाची गा कुरू
पूण आयज
बिलुची तार ना
तारीर बिलुचो माग ना...
'तारया रे ऽऽ'
बिलू खातीर घातलेले
ते साद आयकूंक येनात
बिलू आमचें खंय गेलां काय?
आरे सभाग्यानो सांगात म्हाका
तें बिलूय ना... तो तारयोय ना...
एक मात खरें
आयजूय बिलू येता... बिलू वयता...
पूण बिलू कोणाकूच थायें पडना
तेचो माग कोणाक गावना.

11.

## खंयच्या रानातलें सुकणें

हें खंयच्या रानातलें सुकणें
म्हाका भेटूक येयलां...?
हे सुकण्या
हांव तुकां कितें म्हणूं
सोयरें काय जिवाभावाचें इश्ट?
तूं म्हाजें कोण तरी लागता
ना जाल्यार तूं म्हाका
हांगा भेटूंक कित्याक येवपाचें?
तुज्या येवपात
आमच्या ह्या
झाडां पेडांकय जाल्या खोशी
आनी म्हाजें काळीज
जालां धादोशी...
हे सुकण्या
तूं नेमान येत राव
तुज्या गोड आवाजान
नवें गीत गायत राव...
सुकण्या तुजें रान खंय आसा
तें म्हाका मात्सें सांगशीत?
तुज्या रानात हांव येतां
आमचींय गितां गावन दाखयतां
धोल ताशे बडयतां...

रानात तुमच्या त्या
म्हाजेंय एक पांख झडयतां
आनी उड उड उडटां...
तूं हांगा येता
तसो हांव नेमान येत रावतां
तुमच्या त्या रानात
सोयरो वा तुजो लागींचो इश्ट जावन...
हें हांव
सगळें सांगता थंय आसां
तें सुकणें दिगंतरा उडून गेलें
नदरे पयलाड...
हय, तेणें हांगा कित्याक म्हण रावचें
त्या बिल्डरान
निमणें झाड
आतांच पोकलीन लावन
मातये भरवण केलां...

12.
## आमचे आमी

आमचे आमी
आमचे आमी
मातयेचो धेंपो आमी
शेणाचो थापो आमी
बेळांचो पाटो आमी
तागडेचो कांटो आमी
आमचे आमी
आमचे आमी
नांगराची जगाल आमी
तेलाची कायल आमी
जळटी मशाल आमी
हातांतली ढाल आमी
आमचे आमी
आमचे आमी

मिठाचो खार आमी
कुराडेची धार आमी
अर्भकाची वार आमी
तुबकांतलो फार आमी
आमचे आमी
आमचे आमी
म्होंवाचो सिसो आमी
घुमटाचो भातो आमी
नाल्लाचो काथो आमी
बिल्डींगेचो बेतो आमी
आमचे आमी
आमचे आमी
हजाराची नोट आमी
पांयापोंदची वाट आमी
उदकाचो पाट आमी
दिवलेंतली वात आमी
आमचे आमी
आमचे आमी
रक्ताचो थेंबो आमी
बांसरेंतले सूर आमी
रणांगणातले वीर आमी
तांटातलो घांस आमी
फुलांतलो वास आमी
सपनातलो ध्यास आमी
स्वास आमी विस्वास आमी
आमच्यातलो आत्मविस्वास आमी...
आमचे आमी
आमचे आमी

13.

## तेकाच बरीं करचीं ना न्हू तुमी?

'पा' म्हाकां खेळपाक
एक बाय जाय आसलें
बाय कित्याक, बाबू नाका?
नाकाच तो म्हाका बाबू
'बॉयज' मस्ते आसतात
कित्याक म्हणटा तूं अशें?
आमच्या स्कुलांत
बॉयज चड मस्ती करतात
आतां माँ क बाबू जाल्यार
तेचे वांगडा खेळचेंना तूं?
तें वग्गी
काय वेळान तें म्हणपाक लागलें
खेळटलें पूण
तेकाच बरीं करचीं ना न्हू तुमी?

14.

## यो यो गो सुकण्या

उड उड गो सुकण्या
मळबांतू...

उड उड गो सुकण्या
रानातू...

उड उड गो सुकण्या
मनातू...

उड उड गो सुकण्या
काळजांतू...

धवशें काळशें सुकणें
उडून गेलें...

काळ काळशें भिरें
सोडून गेलें...

यो यो गो सुकण्या
भिऱ्यांतू...

तुगे पिलां रडटात
म्हुज्या पोश्यातूं...

## 15.

# दिसावडो

दिसावडो किरवटीक[1] लावन
ती अस्तुरी चलता वाट
घर परतणेची...
त्या दिसावड्यांत शेकेल्या
तानुल्या बाळकाचे
भुकेची थंडाय...
आनी ते थंडायेत आटलां
दिसभराचें रखरखीत वत...
तो दिसावडो चरतें कशें
चरत आसा
ते अस्तुरेच्या सर्वांगार...
तिची फाट सासणाची
धर्तरेक लागतकच
तो दिसावडो मारतलो गोळ
त्या तानुल्या बाळकाचे गोवंटेक
आनी परत अशींच
आटत रावतलीं
दनपारचीं रखरखीत वतां
दिसावड्याच्या रूपान...
हें सत्य
रूवां- रूवांतल्यान
रंजी[2] तेंवची[3] तशें
अखंडतायेन तेंवत आसा
फाटल्यो कितल्योश्योच पिळग्यो
त्या दिसावडकारी अस्तुरेच्या
कपळांतल्यान...

---

1. कापडाच्या न्हेसणाक कमराकडेन घट्ट मारिल्ली गांठ.
2. घाव्यांतलो पूं आनी रगताचें मिश्रण.
3. पाझरप वा गळप.

16.

## केन्ना पेट्टलीं?

रान वाडलें रान वाडलें...
झाडाचें एक
पान झडलें पान झडलें...
रान वाडलें रान वाडलें
पाना पानार
केंण झडलें केंण झडलें
आरे पळयात थंय
रान पेटलें रान पेटलें
हुमल्या – सुकण्यांचे घोंटेर पेटले
मुयां – तुमशाडांचीं[1] मालीं[2] पेटलीं
सुकून बरगेल्लीं खोडां पेटलीं
खोडा पोंदची वाळटी पेटली
सोशे पेटले, मोर पेटले
किडी पेटल्यो, जिवाणीं पेटलीं
झरीचें उदक लेगीत पेटलें...!
जळून गोबार जाल्ल्या
ह्या रानाक पळोवन
आमचीं काळजां आतां
केन्ना पेट्टलीं गा?

---

1. एके तरेचे विखारी मूस.
2. तुमशाड ह्या मुसांनी बांदिल्लें वाटकुळ्या आकाराचें घर.

17.

## तुजो पूत खरो

‘आवय म्हाका पयशे जाये
दिता काय ना?’
पुताची आवयक खायरी दबकावणी
तिचें आंग पांग पिचयता...
‘कित्याक रे ते बाबल?’
तिचो हो प्रस्न
जिबेर कोमरेवचे पयलींच
तिचे थरथरपी हात
सोडयता गांठ
आदेसभर हांगा थंय जळपोन
जोडलेल्या पांय रुपयांची
पुतान मुखार केल्ल्या
उपद्रवी हातांक पळोवन
ती चुरगळलेली नोट
कांवचेता आनी मारता किळांच...
आवयचें काळीज
शिरशिरावपी ती किळांच
जागयता चुलींतल्या
शेळेल्ल्या गोबराक
तो गोबर,

मिळमिळीत रडटा आसतनाच
तिचो पूत तावेर्नार बसून
घोट्टा सोरो
घटा घटा करून...
आनी मागीर
रस्त्याची लांबी रुंदी मेजीत
धरता वाट घरची
ते सरशीं
पावलां कणकणी
सरतात भायर
सोरांडी आकरी कोकरीं उतरां
'आवय तियां पोटाक मरों
मियां तुजो झील[1] खरो
पूण
सोरो मात जिवाक बरो...'

1. पूत.

18.

## थेंब थेंब दुकां

नव्या करकरीत रुळावयल्यान
पयलेच फावट
एक्सप्रेस रेलगाडी वेग घेत
त्या काळखेल्ल्या बोगद्यांत भितर सरता
घडघडत धडधडत...
दोंगराच्या पोटांत रिगलेली
ती गाडी वाजयता हॉर्न
प्रवाशी मारतात किळच्यो आनी हुयेली
अश्या वेळार
तो दोंगर कलकलता
भितरल्यान तसोच भायल्यान...
आतां हें सदचेंच जालां
कितल्योश्योच एक्सप्रेस रेल गाडयो
धांवतात दीस–रात
आपणाक जाय त्या वेगान
एक दीस दोंगरान
रेल्वेक आडायत विचारलें

'तूं म्हाज्या पोटातल्यान
येता वयता कित्याक?
'म्हाका गा कित्याक विचारता
वच आनी
बोगदो पोखरप्यांकूच विचार'
दोंगराचें कांयच आयक नास्तना
तेच्या नाका तोंडात
धुंवर रिगयत
ती रेलगाडी नेटान गेली मुखार...
हांगा हो खोकली काडीत
धुंवरेल्ल्या दोळ्यांनी
पळयत रावलो
पयस मेरेन गेल्ले ते रेल्वेक...
आनी गळयत रावलो
थेंब थेंब दुकां
रेल्वेच्या त्या तापलेल्या रूळार...
मनशान यंत्रक्रांती केल्या खंय!

19.

## पारवंशपूत

खूब वर्सांनी कळ्ळें
मियां एक
पारवंशी पूत म्हणोन...
म्हाजो बापूय शेजाराकच रावता!
खडे[1] जाणां?
त्या 'सज्जन' नांवाच्या बंगल्यांत
आनी मियां
कुसमेल्ल्या कोलवाच्या[2] खोपटांत...
हसल्यात कित्याक...?
मियां ब्राह्मण विर्याचो
म्हणोन सांगल्यार
खोटें दिसलें तुमकां?
दिसतलेंच...
कारण तो बंगलो खडे
आनी म्हाजें हें खोपूट खडे
म्हाजो जल्म एक 'खाज'
म्हाजो जल्म एक 'परिस्थिती'
म्हाजो जल्म एक 'बलत्कार'
हेतूंतलें कायीय आसूं येता.

एक मात खरें
म्हाजे आवयन
म्हाका जल्माक घातलो
होच मोठो उपकार...
कित्याक जाणा?
म्हाज्या दोळ्यां सामकार
एक सत्य चकचकता...
मनश्याक
धर्म, जात-पात, गरीब-श्रीमंत
हें सगळें लागता
पूण, भोगवासनेच्या हुमकणांत
ह्या सगळ्यांचो
जळोन गोबर जाता...
आनी त्या मुमरांत धुंवरेतात
म्हाज्या असले कितलेशेच
पारवंशी पूत
जेंका बापूय आसून
बापूय नात...

---

1. खंय.
2. खोपीक वयर घातलेलें
कड्डाचें आवरण.

20.

## तेक्का ते आटयतले...

तें अयस पयस रान
उंच उंच दोंगर
खोल खोल देगणां
आनी काळीं निळीं घळणां...
म्हाज्या सपनात
केन्ना केन्ना हें रान येता
आनी सगळेंच जिवंत जावन
म्हाका भोंवडावन दाखयता आपलो प्रदेश
मर्दीच थांबयत
रानान म्हाका विचारलें
आयज म्हज्यांत
नवें कितें पळयलें तुवें?
रान फूलां? सुकणीं?
सावजां? दोंगर खडयो?
काय कड्या वयल्यान
घसघसपी हो वजरो?

1. पाशाणी फातराचे उंच दोंगर.

त्या वजऱ्याक नियाळटां नियाळटां
म्हाका अचकीच येयली जाग
आनी तें रान
कडसरून गेलें पयस...
दोळे चोळीत
हांव सोदपाक लागलों
त्या सपनातल्या रानाक...
आयज परत फांतोडेर
म्हाज्या सपनात
तेंच रान परत येयलें
आनी म्हणपाक लागलें
'तुवें सपनात
पळयल्लो तो वजरो
आतां 'ते' आटयतले
एक व्हडलें धरण बांदून...'
तेन्नाच्यान हांव
रान रान भोंवतां
तो वजरो सोदपाक
आनी
धरणाचें चलिल्लें तें काम
कायमचें बंद उडोवपाक...

21.

## चंद्रहांसो

‘तूं हांगा कित्याक बसला?’
‘अस्तमत्या सुर्याक पळयतां’
‘तुकां सुर्या पळोवंक आवडटा?’
‘तुकां आवडना?’
‘ना. म्हाका चंद्र पळोवंपाक आवडटा’
तेंचे हे संवाद
सुर्यास्त जाय मेरेन चल्ले...
मागीर कांय वेळान
मळबात चंद्र उदेलो...
त्या चंद्र पिशाक
एके चलयेन
ल्हवूच येवन विचारलें
‘तुकां चंद्र पळोवंपाक आवडटा न्हूं?’
‘तुकां कशें कळ्ळें?’
‘कारण म्हाकाय चंद्राचें पिशें’
‘तशें जाल्यार हांगा म्हाजे कुशीक बस’
तीं दोंगांय आतां
चंद्र न्हाण घेतात...

तो सुर्य पिसो
त्या दोगांकूय
तिरशे नदरेन
एक सारको तेळटा
आनी आपले भितरूच पुटपुट्टा
'हांवूय चंद्रपिसो जाल्यार कसों?'
इतल्यान तेची घरकान्न
तेका जागयत म्हण्टा
'रात जाली
आमी आतां घरा या न्हूं?...'
ह्या वेळार
चंद्र तेका मुमुरखोच हांसलो...

22.

## कणकिचे कोंब

मिर्गाच्या पावसाच्यो
दडकार दडको कोसळटकच
कणकिच्या बनाक येता जाग
अश्या वेळार
कणकिच्या बेटांतले ते कोंब
त्या कांट्याळ्या शिऱ्यांतल्यान
वाट काडीत अळंग सरतात वयर
आनी घेतात थाव उक्त्या मळबाचो
कारण तेंका
जाय जायशें दिसता
कुपांनी दाटिल्लें
काळ – काळशें मळब
आनी तो
दडका दडकांनी कोसळपी पावस
आंगभर भिजपाक...

धर्तरेच्या गर्भांतल्यान
अचळय वयर सरपी
ते काळ – तांबसाळ कोंब
एक एक करून गळयतात
आपल्या आंगावयले पकारे
आनी मागीर तेंच्या त्या
धवसार पांचव्या आंगार
पेरा कणकणी फुट्टातात
सोबीत सुंदर कांटयाळीं शिर्रीं
पळयतां पळयतां
त्या शिऱ्यांक फुट्टा पालंय
कणकिच्या त्या कांटयाळ्या बेटांत
आपूण पुरायपणान
एकरूप जावंपाक...

23.

## मालीन काडलेली याद

मिर्गाची पयली
दडक कोसळटकच
शेजारच्या मालीक
जाग येयली...
माली आसतलें
सात आठ वर्सांचें
कमरार पिंजलेली खोमशी घालून
मिर्गाच्या पयल्या पावसांत
चींब चींब भिजपी...
'माली भात भिजलें
बेगीन भरूंक यो...'
'माली लाकडां भिजलीं
खोपींत दाळूंक यो'
'माली घरांत पोवता[1]
आयदान हाडून दवर'
'माली वारो येयलो
आंब्याक धांव
आंबाड्यो कुडावन[2] हाड'
'आरेऽऽ माली पडलें...'
'मरता हें
धांवता कित्याक?
आंबाड्यो केन्ना खांवक ना?'
धोपरां फुटूनं
रगत व्हांवता तें
पळय नास्तना
तेचीं थंयच रंगलीं कानसुलां

पावस अचकीच थांबलो
आनी
मालीच्या दोळ्यांतल्यान
गळपाक लागल्यो
मोनयाळ्यो पावळ्यो
मागीर
हुंडके हुंडकेत रडपी माली
कागदाचीं सपनाळीं व्हडीं सोडीत
म्हणपाक लागलें
'पावसा तूं येयलो काय
आनी ना येयलो काय
मी सदांच दुकांचे पावळेक न्हातां'
ह्या वेळार पावस
परत घडघडलो
आनी मालीक चिप्प भिजयत
तेचे भोंवतणी
थय थय करून
लागलो नाचपाक
बेधुंद जावन...
फकत मालीच्या
खिणयाळ्या सुखा खातीर...

1. गळटा.
2. एकठांय करप वा पुजावप.

24.

## आमी चुळचुळून मुतले

आमी चुळचुळून मुतले
वाटेर आनी
काल्सावां भिजलीं भितऱ्यांचीं...
आमी फरफरून हागले
मळार आनी
संडास चाटले ल्हेंवट्यानी...
आमी झरझरीत चडले
माडार आनी
नाल्ल कुडायले भाटकारानी...
आमी तटतटीत फुलयलीं
हड्डीं आनी
गूंड लिपले खोलप्यानी...
आमी कचकचीत मेजले
दुडू आनी
धोतरां सोडयलीं सावकारानी...
आमी स्वास भल्ले
हडड्यांत आनी
जीव सोडले मेल्ल्यानी...

25.

## दायज राखलां

भात पेरलां
नाचणो पेरला
वरी[1] पेरल्या
पाकड[2] पेरला
मळणेन म्हाज्या
फेर धल्ला...
ग्योऽऽ ग्यो ऽऽ
फांतोड पारार
आवाज चडला
खळ्यार[3] म्हाज्या
पेर भल्ला
मुडी बांदल्या
कंडूल[4] भल्लां
तट्र्याचेर[5] लिपाण[6] धांपलां
घर भरून
दार ओतलां
आगा हायें म्हाज्या
पुर्वजांचें नांव राखलां
गांव राखला
गांवातलें शेत राखलां
शेताचें दायज राखलां...

---

1. एके तरेचें कड्डण. आदल्या काळार ताचें शीत करताले.
2. एके तरेचें कड्डण. हाचें शीत करताले.
3. मळणी घालपाची नितळ सुवात.
4. भात वा तांदूळ भरून दवरपाचें हड्डें भर उंचायेचें बेळांचें आयदन.
5. भात भरून दवरपाचें पुरुसभर उचांयेचें बेळाचें आयदन.
6. कंडूल वा तट्याक तण आनी ताचे वयर शेण थापून तोंड धांपतात.

26.

## एक विसो

एक विसो, दोन विसो
तीन विसो, चार विसो
सगळें विसांचेंच अंकगणीत...
वीस बोकडां एक खांडी
वीस कुडवांचें एक खांडी भात
आनी वीस खाणयांचो एक कूंभ...
श्रीरीची गाण चिरी नास्तना
म्हाज्या जाणट्यांनी
मांडलें हें गणीत
विसाकांचें...
विसांतले वीस काडले
कितले उल्ले?
नातवाचो आज्याक प्रस्न
'भोपळो'
शुन्याच्या जल्मापयलींचो
हो भोपळो
वाटकुळो वाटकुळो

आमची फुगडी, तालगडी वाटकुळी
आमचो गोफ, मोरूलो वाटकुळो
आमची मळणी घुंवता
वाटकुळी वाटकुळी...
आमची भाकरी वाटकुळी
आमची पत्रावळ वाटकुळी
आमची धपटी वाटकुळी
आमची जीण लेगीत वाटकुळी
घुंवता एक सारकी
आमच्याच भोंवतणी
'वीस एके वीस
वीस दुणें चाळीस...'
नातू म्हणटा पाडो
आजो आयकता
विसांचें फुडलें गणीत
आपले वाटकुळेच तकलेर
हात भोंवडायत...

27.

## सदान सोरो सोडला

‘घरांत कसो तो यो
तुजो दोकोच म्होडून घालतां’
सदग्याची बायल आड्डली...
काल मेरेन
आपल्या घोवाचो मार सोंसपी
आयज ती
हातांत दांडो घेवन
हुमऱ्यार बसल्या...
सदचेवरी तर्र जावन
गाळींचो शिंवर करीत
वाटेन वाटभर
झेलकणां मारीत येवपी सदा
मोन्यानीच पळयत रावलो
आपले बायलेच्या हांतातलो दांडो...
‘मियां काय केलां तुकां
दांत मोडून घालतलों पोटांत...’
‘यो कसो तो म्होड
तुकां जितोच पुरतां’
अशें म्हूण
राकसूल कशी
झुडून गेली सदाच्या आंगार...

सदा काळखांत
खंयचे कडेन नाच्व जालो
खिणा भितर...
आतां सदान सोरो सोडला
गाळीय मारपाच्यो सोडल्यात
कारण बायलेन
घरा फाटलेवटेन
खणलेल्या फोणांत
आपणाक जितोच पुरीत
ह्या भयान...

28.

## पाणी आतां देंवता

म्हादयच्या देगणात असलेल्या
बिटकेच्या खोराक[1]
पावस एक सारको कोसळत आसा
म्हादय न्हंयक चडलां पाणी
पाणी खदूळ खदूळ
रेबाळ गादो कशें...
लोकांचो बोवाळ
'म्हादयक पूर येयलो
म्हादयक पूर येयलो'
सगळो गांव
न्हंयचे तडीर उबो
'न्हंयचेर येयला सांवार'
'न्हंयन भिकेक लावचे केले आमकां'
'सोंपलें सगळें'
आपल्या करण्यांक
पाटल्या पोंदा धांपून
सगळेच खेपतात
तुंडूंब भरून व्हांवपी न्हंयक..
चिंतेस्त खंती जावन
सगळ्यो करण्यो आपल्या
पोटांत घेवन
धिक्या धिक्यान देंवयता
न्हंयचें पाणी...
काल पयर मेरेन
न्हंयचें गूण गान गावपी
गांवच्या लोकांचीं उतरां
सोसूं नज जावन.

1. म्हादयच्या देंगणाचे पुर्वेक आशिल्लें एक खोर जंय भरपूर पावस पडटा.

29.

## आवयक विसरूं कसो?

मरचे पयलीं कांय दीस
म्हाज्या बापायान आमकां सांगलें
‘जमनीचो कुडको
केन्ना विकू नाकात
तुमचे भितर
तुमी केन्ना झगडों नाकात
तुमचे आवयक
केन्नाच विसरों नाकात’
हें सगळें खरें
पूण,
म्हाजो व्हडलो भाव
आपल्या वाट्याक येयल्ली जमीन
विकपाक भायर सरला खंय...
आयज सकाळीं मदलो भाव
म्हाज्या आंगार झुडून येयलो...
आतां हांव म्हाजे आवयक
विसरूं कसों...
सांगात, विसरूं तरी कसों...?

30.

## सांग तेका

सुण्यान आपली
शेपडी नीट केल्या
वागोळ्यान
लोंबकळपाचें सोडलां
कोगळान
स्वःताचो घोंटेर बांदपाक सुरवात केल्या
वाग
मांस खांवचो ना म्हणटा
मनशान
आतां कितें करचें?
पांयानी चलपाचें सोडून
तेका हातानी चल म्हूण सांगचें...!
आप सुवार्था खातीर
तो तें करीतूय बी !!
सांग तेका अनवाळ्या पायांनी
भुंयेर फक्त घट
उबो राव म्हूण...

31.

## सगळ्यांक सूख थंडाय मेळू दी...

मिर्गाचें वादळ
ह्या अटंग्या रानात
आतांच धुमाकूळ घालून गेलां...
हजार हतयांचें बळ एकठावन
रानात रिगलेलें तें वादळ
सुकण्या-सावदांच्यो
भोयो भोयो करून गेलां...
खोलप्यांचो खच
आनी त्या खचातल्यान
पाचवीं पाचवीं कड्डाचीं पातीं
अळंग वयर सरतात...
आनी आपलेच कडेन
हितगूज करीत म्हणटात
'वादळ आतां थांबलां
आमी आतां पावसाचें गीत गावया
कारण
सगळ्यांक सूख थंडाय मेळू दी...'

32.

## तरीय हांव भाटकार

म्हाज्या घरा मुखार
म्हाजें भाट आसा
पूण,
भाटाक म्हाज्या वंय ना
वंयेक ते खूंट ना
खुटांक त्या कट[1] ना
तरीय हांव भाटकार
कारण म्हाजें भाट आसा...
भाटांत चुरट पडल्यार मेळना
नाल्ल पडल्यार लाबना
कोण खाता कोण जाणां
म्हाज्या राज्याक पत्तो ना
तरीय हांव भाटकार
कारण म्हाजें भाट आसा...
भाटांत सगळ्याक लचकी मातल्या
धोंपरभर तण मातलां
माडाक आळीं काडूंक नात
मुनार तेंच्या सावूळ[2] ना
तरीय हांव भाटकार
कारण म्हाजें भाट आसा...
भाटांत म्हाज्या केळी आसात
घड खावपाक वानर येतात
ल्हान ल्हान कवाथे आसात
ते खावपाक साळी येतात
तरीय हांव भाटकार
कारण म्हाजें भाट आसा...

---

1. खूंट आनी आडें दोरान बांदप.
2. सारें म्हूण झाडांचें ताळें मारून सरभोंवतणी खणिल्ल्या आळ्यांत घालतात.

पायलेक पंचवीस पाडेली येतात
कवाळ्यांत वयचे पयलींच
झरझरीत सकयल देंवतात
नाल्ल भायले भायर तेंच विकतात
तरीय हांव भाटकार
कारण म्हाजें भाट आसा...
आतां
भाट हांवें विकून उडयलां
मालकान त्या बरें करून वसयलां
भाट ना आनी घरांत आतां नाल्लूय नात
तरीय हांव भाटकार
कारण सगळे लोक म्हाका
'भाटकारा' म्हूण उलो घालतात
आनी हांव झेतान चलतां
भाटकार कसो...

33.

## पूण सदच्योच...

‘आवयगे बाबा रेऽऽ.
खाल्लें रे म्हाकां’
अस्तुरेची घोंगरेल्ली हुयेल
अमुरपिको काळोख चिरीत
गांवकुसाभायर फांकली
‘बापायक झवण्या’
घोवान मारिल्ली
पोजडी सोरांडी गाळ
तिच्या कुसव्यांत आसलेल्या
अर्भकाक
कांटो कशी तोंपली..
ह्या वेळार
तेचीय एक हुयेल...
ते अस्तुरेचें काळीज पोखरपी
‘म्हाका वाड’
‘गोबर खा’
तीन खुरांमदीं
मुमरात धुंवरेंत पडलेलें
कोलीत[1] पुटपुटलें...

आतां परत एकदां
हुयेलीर हुयेली...
सरभोंवतणी आसलेल्या
त्या काच्च्या बोच्यांच्यो
आख्खो गांव जागोवपी
पूण सदच्योच
जुनेर कश्यो
झरून झरून
बोंदरां जाल्ल्यो...

1. चुलींतलें जळीलें लाकूड.

34.

## म्हाजी म्हादय गंगा

झेलम, कृष्णा, कावेरी, ब्रह्मपुत्रा,
यमुना, गंगा
ह्या न्हंयांचीं नांवां
आयकल्यांत तुवें दादा?
'ना रेऽऽ बाबा
मियां बगल्या
म्हाजी म्हादय गंगा...'
कदीम काळा सावन
व्हांवत आसा ती
म्हाज्या गांवांतल्यान...
म्हादयचे हे तडीर
म्हाज्या पुर्वजांनी माल्ल्या खुंटी
हांगाच बांदल्या मठी
आनी हांगांच माल्ल्यात गांठी
पुर्वपरंपरागत चलत येयल्ल्या
म्हादय संस्कृतायेच्यो...

तिचे तडीर
कसयलीं आमी पुरण शेतां[1]
मळ्या[2] मळ्यांनी वसयल्यो बागायती
गिमाळ्यांत सुकून भागून गेल्ली
आनी भर पावसाळ्यात
उपाट भरून व्हांवपी
म्हाजी म्हादय गंगा...
वळखतां हांव तिका
हे म्हादय गंगेचो दर एक थेंबो
फुलयता आमचें जिवन
म्हणून म्हणटा
म्हाजे म्हादय गंगे
तूं एक सारकी व्हांवत राव
न थांबता न रावतां
कारण तुजो पोसोभर उदक
फुडल्यां पिळग्यांक जाय
तुजे तडीर
तुजीच म्हादय संस्कृताय
फुलोवंपाक आनी तिगोवपाक...
दादा उलोवपाचो थांबलो
आनी तेच्या दोळ्यांत
म्हादय भल्ली...

1. म्हादय न्हंयचे तडीर दोनूय अर्दानी जंय उथळ जागो आसता थंय तळ तयार करतात आनी त्या जाग्यार भायली माती वा कुसारें मारून शेत रोयतात.
2. रेंव, कुसारें पडून म्हादय न्हंयचे तडीर तयार जाल्ली सपाट जमीन.

35.
## अँधे को पैसा दे दो बाबाऽऽ

रेल्वे प्लॅट फॉर्माचेर
एक अस्तुरी
उशाक धपटी घेवन
अमुरपिके न्हिदेत लवंडल्या
तिचे भोंवतणी
मुस्कांचीं असंख्य भिर्रीं
येवपी वचपी यात्रीक
शी थू ऽऽ करीत
नदर घुंवडायत
जातात पासार...
पूण कांय अंतराचेर
आपल्या आंगाची
चुंबळ करून बसलेलो
एक बायलबोजो
वासनेची लाळ गळयत
तिका वखवखे नदरेन
सांसपिता...
'यहाँ बैठना मना है
चल फूट यहाँ से...'

जमनीर दांडो आदळयत
पुलीस तेका दबकायता
तो आपली नदर
दोळ्यांत ओडीत
थरथरत उठ्ठा
आनी
'अँधे को पैसा दे दो बाबाऽऽ...'
अशें म्हणत
ते कुड्डे गर्देत मुगरता
आपूण कुड्डो जावन...

36.

## म्हाजें जोत चलता

म्हाजें जोत चलता
नांगर आडास[1] फोडता
पावसा अमृत शिंवर
कुणग्या मारता भोंवर
रोव धर्तरे कुसव्यांत सोशेला
कसप्याचें मन गा परमळ्ळां
थाम आंगा पांगान मातलां
दर्प कश्टांच्या घामाचो
कुणग्या कुणग्यात दाटला...
रोपा गर्भ पोटूर पोटूर
माथ्या खोयलां रे केंसर
थामा कणस पेलना
कसपी मेरे वयलो हालना...
कामेरी लुवण लुवता
पेंडकां माथ्यार चडता
गुडवें[2] मळब वेंगायता
मळणी चक्रान घुंवता...

पेर राशीर चडलो
मुडयार मुडयो बांदल्यो
इतल्यान,
भाटकाराच्या पावलांचो आवाज
घेवन दोळ्यां आशेची गा खाज
मुडयानी धल्ली रे वाट
कसप्याचें चिरीत पोट
आतां,
वाऱ्यार हुबला पोल
हेंच कसप्याच्या घामाचें मोल
ह्या वर्साय,
म्हाजें जोत चलता
नांगर आडास फोडता
दोळ्यां दुकांचो शिंवर
कुणग्या मारता भोंवर...

---

1. उबें जोत घालून जातकच मागीर आडवें जोत घालपाची प्रक्रिया.
2. लुविल्लें थाम मळणेखातीर वाटकुळें दाळून दवरपाची पद्दत.

37.

## तुज्या यादी सकट

मन थंड किरांव
तुजे उबेक आशेल्लें
कितलिशींच वर्सां
त्या यादिंच्या
बर्फाळ पर्वताचेर
रुतून पडिल्लें...
दिशिल्लें पुजायतलें तूं
सुर्यकिर्णा...
आनी न्हाणयतलें
म्हज्या निर्शेल्ल्या मनांक
पूण तूं
पिंजको पोसो लेगीत
घेवन झळकलें ना
आतां म्हजी नदर
म्हज्याच दोळ्यांत मुंगरल्या
आनी सर्वांग वातेलां...
आतां तुजे उबेची
म्हाका पर्वा ना
कारण
त्या बर्फाळ पर्वतानूच
आतां पेट घेतला
म्हजे अस्तित्व कडोवन
नव्या उपाड्यांत[1] ओतपाक...

1. म्हूर्त तयार करपाची प्रतिकृती

38.

## पातक वयचें म्हूण

सुर्यान दीस भर लागून
काळखी रास
माड्डय माड्डय माड्डयली...
आरेऽऽ रेऽऽ
हांवें हें कितें केलें?
असो शोक व्यक्त करीत
सुर्यान परतून
व्हडा कश्टान
काळखाची रास उबारली
आनी
अनवाळें न्हाण घेवपाक
तो म्हासागरांत अचळय बुडलो...
आपूण केल्लें
पातक वयचें म्हूण.

39.

## मनश्याचीं पावलां

ह्या रान देगणाच्या अस्कडांतल्यान
त्यो असंख्य काटोळ्यो[1] मुयो
खंय वयतात काय?
ते काळशे काळशे
मुयांचे वळीक
फुटल्यात असंख्य पांय
ह्या काटोळ्या मुयांच्या पायांक
आसा एक गती
ही गतीच व्हरता तेंका मुखार
त्या सुकलेल्या कुसलेल्या
रान खोलप्या खोलप्यातल्यान...
ह्या तेंच्या प्रवासात
कोणूच उरना फांटी
आनी मुखारूय कोणाक वचपाची ना घाई
कारण त्या मुयांक खबर आसा
आपले गतीचेर असलेलें नियंत्रण
त्यो मुयो चलतात, चलत आसात...

1. काळ्यो मुयो. चावल्यार सोसूंनज अशे वेग मारतात.

देगणां पालसणां हुपीत
आडवणां घळणांतल्यान वाट काडीत
त्यो आपल्या प्रवासांत
एक सारक्यो सोदीत आसात
आपलें अस्तित्व तिगोवन दवरपी
आपलें अशें अटंगें रान...
कारण ह्या रानात आतां
मनश्याचीं पावलां
एक सारकीं धुमाकूळ घालीत आसात...
आनी तेंचें तें रान
आतऱ्या पयऱ्यान
उज्याचे भकीक पडत आसा...

42.
## दोन काळजां

कितलोसोच तेप
घरा भायर आशिल्लो तो
जयहिंदीस्त
अमुरपिको काळोख चिरीत
आपले अर्धांगीचे
भेटेची वाट माड्डयता..
तो घेता थाव
आपले मठयेचो
ताची अर्धांगी
मिणमिणत्या दिव्या मुखार
कपळाक कपळभर तिबो लावन
ध्यानस्त बसल्या
हय, तो माजराच्या पावलांनी
मठयेचो हुमरो वळणटा
आनी तांच्यो दुरावल्ल्यो नदरो
लागतात पोरशेंवपाक
काळजाचें खाची कोनशे...
धिक्या धिक्यांत
त्या नदरानी चवंरतात
असंख्य मोगा यादी
आनी फांकारता
जुवानपणाचो परमळ...
मागीर त्या
दिखाळ काळखांत
दोन पयसावल्लीं काळजां
जातात एक...

इतल्यान,
दारार पडटात खोंटार खोंटो
ताचे पाळटेर आशिल्ल्या
सोलदादांच्यो
ते आड्डतात बोंबलेच्या देंठातल्यान
'बोऱ्यान पोयर्ली आमकां
शोरोण वोच
नाजाल्यार होड्ड्यार
गुळयो झेलपाक तोयार राव'
ही मरण संदेशी
उतरां आयकून
खिणात गाजता मठी
'भारत माता की जयऽऽ'
ह्या घोशणानी
आनी मागीर
दोनूय काळजां झेलतात
गुळयार गुळयो
कुडीत हुनसाण आस मेरेन...

43.

## बेवारशी मडें

फाटले कितलेशेच म्हयने
आपल्या वारसाची
प्रतिक्षा करीत
शवघरांत कुसत पडलेलें
तें बेवारशी मडें
एके म्हदयान राती
चलत रावलें मसुंडेची वाट...
मसुंडेच्या महादारार
राखणेक आसलेले
कितलेशेच अतृप्त आत्मे
त्या बेवारशी मड्याक पळोवन
तेचे भोंवतणी
लागले नाचपाक
थाऽ थय थाऽऽ थय करून
आनी मारपाक लागले
बोबो, किळच्यो आनी हुयेली
'वारस नासलेल्याक
हांगा जागो ना
घटका भर थारो ना..'

हें आयकून
त्या बेवारशी मड्यान
आजापीत जावन म्हटलें
'हे मातयेत जल्मल्ल्याक
हे मातयेंत विसवपाक
वारस लागता?'
'हय हय वारस लागता...'
तेंचो त्या
मंसड गाजोवपी बोंवाळांत
तें निर्शेल्लें मडें
धरता वाट शवघराची
जंय कितलिशींच मर्डी
कुसत पडल्यांत
आपल्या वारसाची
प्रतिक्षा करीत

44.

## म्हाका शिकयशीत...

'आगा मेस्तमामा
मेज करता?
म्हाका मात्सें शिकयशीत?'
तुकां कळचें ना तें
कुशीक सर थंयसरलो...
'आगा कुंभारदादा
मडकी करता?
म्हाका मात्सी शिकयशीत?'
खावपाचें न्हूं तें
झुर्ऽऽ हांगासरलो...
'आगा गंवड्याभावडी
घर बांदता?
म्हाका मात्सें शिकयशीत?'
तुजे हाती भायलें काम तें
फूट हांगासरलो...
'आगा पसरकारकाका
पसरो चलयता?
म्हाका पसरो चलोवंपाक शिकयशीत?'
म्हज्या पोटार आड येता

चलूंकलाग हांगासरलो...
तेन्नाच्यान हांव
म्हाज्या बापायचें शेत कसयतां
आतां,
मेस्त आयुतां दिता
आनी भात व्हरता
कुंभार आयदनां दिता
आनी नाचणें व्हरता
गंवडो
म्हाजें घर बांदपाक येता
आनी तो पसरकार
आपल्या पसऱ्यार विकपाक
उकडे तांदूळ मेळत काय म्हूण
आंगणात उबो रावला...
कितें करुं
दिवं तेका?

45.

## हांव खाटीक

हांव खाटीक
पूण खाटकाच्या वंशाचो न्हू
तुमी जल्माक घातलेल्या
भ्रष्टाचाराचे पिलावळीचीं
सातुडां[1] निखळावपी
अडेचें सवंग घेतलेलो
हांव खाटीक...
तुमची शीर तट्टट्टा
हें म्हाका
बेस बरें खबर आसा
तुमी धेंकर फोडीत उसळटात
त्या मरकुट्या
सुतकडो लागलेल्या बैलांचेर
तेंचेर तुमी करतात करा
आनी
म्हाकांय भुजयतात
कसलेंच कारण नास्तना...

पूण ल्हेंवट्यानो
ह्या म्हाज्या पाळाचेर
मात्सी नदर मारात
हो चकचकीत पाजयल्लो पाळ
सोजीक[2] बांदलेल्या
बैलांखातीर न्हू
हो पाळ तुमची गोमटी
धडा वेगळी करतलो...
आनी तीन तिठ्यार
हुमकळायतलों तुमचीं पेंगटां
पूण त्या पेंगटांक
गांवार हेडपी सुणीय हुंगचीनात
तेन्ना हें अडेचें सवंग
भिरकटावन मारीत
आमी चडयतले घुडी
नवसमाजरचनेची...
आनी मनयतले आनंदसुवाळे
तुमच्या बारा दिसांचे...

---

1. जांगे कडलो भाग.
2. मारपाखातीर.

46.

## यादी

तुज्या यादिंचो
रवंथ करतना
देगणांतल्यान चान्नें पाझरलें...
चंद्र पुनवेचो
पुनव म्हजी
चान्नें तुजें
ह्या शितळ – गंधी चान्न्याचें
घेतां हांव न्हाण
तुज्या असवटीं...
रागार जावं नाका
चान्नें जरी तुजें आसलें
तरी पुनव म्हजी आसा
साक्ष ते
चान्ने रातिची...
आयज ते यादिचो रवंथ
तकली भेरायता
कारण आयज
मोगी आसा
मोगीका ना
पुनव आसा
चान्नें ना
आसात फकत
आमच्यो तुरमेल्ल्यो यादी
काळ काळशेल्ल्यो...
तुज्या चान्न्याची वाट पळयत.

47.

## पयलें अजाप

‘कोल्यादादा
तुकां कोंबो जाय?’
‘हय’
‘चानयेबाये
तुकां आंबो जाय?’
‘हय’
‘कोळयामामा
तुकां पिसोळें जाय?’
‘हय’
‘आगा मनश्या
तुकां पयसो जाय?’
‘नाका नाका नाका...’
हांवें नोंद केल्लें
संवसारातलें हें
पयलें अजाप...
कोल्याचे बुद्देक केन्ना
आफुडलें ना
बाबडे चानयेक केन्ना
होलमलें ना
आनी
कोळयाच्या जाळाक
केन्नाच फारवलें ना...

48.

## रुतूगंध

तुजे
मोरपांखी दोळे
म्हज्या सर्वांगावयल्यान
भोंवर मारीत
शितळगंधी दोळ्यांत
येवन अळंग विसावले...
आमच्या पिश्या मोगाक
फुटलीं सोनयाळीं पांखां
आनी त्या सुखयाळ्या
झुळझुळपी स्पर्शान
चंवरलीं रुखां...

आमच्या विवस्त्र देहाचीं
तेन्नाच,
आमच्या रंद्रा रंद्रांत
घुमली तान कोगुळाची
आनी सळसळ्ळीं पानां
वसंतरुतुच्या येवकाराचीं
ह्या रुतूगंधात
तुजे लजयाळे दोळे
नाचले थयथय करून
म्हज्या पाशाणी हड्ड्यार
मागीर
फुल्लीं फुलां
आनी
फांकलो परमळ...
पयस मेरेन
आमच्या मोगाचो...

49.

## आमी

आमी चरतां चरतां
तुमच्या पोरसा लागसार पावले
कित्याकूच तोंड लायनास्तना
तुमी आमकां रखरखीत वतांत
बांदून घातले...
खूब वेळान कळ्ळें
तें पोरसूं
तुमचें न्हू म्हूण
एका काळार
तुमी कोणाचें तरी फारायल्लें...
आमचे धनी
आमकां सोडून व्हरूंक येयले
पूण तुमी आमकां
सोडयले नात
वयल्यान
वांयगणांत व्हरून आमकां
जोताक बांदले
तेन्ना आमी तुमचेर
करा[1] केली...
एक दोन चौकांय माल्लीं
होऱ्यार चलना म्हूण

तुमी आमकां चेचायले
आनी आयज आमी
बांगर आसलेले ते
चेचके जाले...
'इरी पाऽ पाऽऽ लार्गी यो'
अशें म्हणटकच
आमी लार्गी येयले
'खेव पडों तुमचेर
चलात फुडल्या कुणग्यात'
अशे दबकायतकच आमी
फुडल्या कुणग्यात गेले
फांटीर बडयार बडयो
पडत रावल्यो...
आमी मुकाट्यानी सोशीत रावले
आतां तुमकां खबर आसा
आमी चौखूर[2] मारचेनात
आनी
आमकांय खबर आसा
तुमच्या हाततले रुमडेची[3]
पूण,
कपनखायऱ्यानो

एक मात मतीत धरात
आयज तुमी नांगरतात
फाल्यां तुमी गुठायतले
गुठ्यार उबे आस्तनाच
आमी चौखूर मारतले...
आनी तुमची
ताडी मिडी शिवडी करून
तुमचे वयल्यान गुठो भोंवडायतले
शेणातल्या रोट्यांक कशे
गेळांनी चेंचायतले...
धेंकर फोडीत तुमच्या
पोरसाची वंय आमी
एका धपक्यान हुपतले
आनी तुमचें पोरसूं आमी
मिचक्यो मारीत खातले
तुमच्या दोळ्यां सामकार
पोट सुस्तासर...
आनी
धेंकर येसर...

1. रागान पळोवप.
2. चार पांयानी नेटान उडी मारप.
3. नांगराची मूठ.

50.

## झरीचें व्हडपण

झर
झुळझुळटा
व्हाळकूट जावंपाक...
व्हांळकूट
झुरझुरता
व्हाळ जावंपाक...
व्हाळ
खळखळटा
पानशिरो जावंपाक...
पानशिरो[1]
पानशेता
न्हंय जावंपाक...
न्हंय घसघसता
महान्हंय जावंपाक...
महान्हंय फुरफुरता
दर्या जावंपाक...
दर्या सर्वयकाळ गाजता
ते दोंगरघळीतले झरीचें
व्हडपण गावपाक...

---

1. रानातलो पाणथळ नालो.

51.

## अक्कल घाणयारे

त्या तिठ्याकडल्या वडा पोंदा
हांवें अक्कल विकपाचो
तीन रोदांचो गाडो घातला
'हांगा अक्कल विकत मेळटा'
हो तकटो वाचून
अक्कल आशिल्ले लोक
सगळ्यांत पयलीं
आपली आसलेली नासलेली
अक्कल घाणाक दवरून
म्हाजे दिकेन रुमरुमले...
'देशी काय विदेशी?'
एक चोथेल्लो प्रस्न
'देशी' म्हणना फुडें
काळें किट्ट तोंड करून
ते आसले तशे
फाटल्या पांयानी परतले
ही खबर जेवेळार अक्कलशुन्य
मनश्यांच्या कानार पडली
तेन्ना तेवूय
आदळत आपटत

म्हज्या भोंवतणी जमले
'देशी काय विदेशी?'
तेंचोय तोच प्रस्न
आतां हांवें म्हाजी
देशी अक्कल लडयल्या
देशी सिसलेचेर[1]
विदेशी लेबल लावन
तीच अक्कल
तेच अक्कलघाणयारे
आनी अक्कलशुन्य मनशांक
विकपाचो धंदो म्हजो
आतां बेस बरो चल्ला...

1. बाटली.

52.

## आतां काय गे करूया ?

आवय आवय
फोड गे कोंडो
म्हारवाड्यार आमच्या मातला
दोन पांयांचो रेडो...
आवय आवय
कर गे भेसां
रेड्याच्या गळ्यांत बांदतूंय
मेल्ल्या कावळ्याचीं पाखां...
आवय आवय
तास गे बेळां
दाव्यार हाडून खुटतूंय
तेच्या पांयांचीं गेळां...
आवय आवय
वळ गे हडगी[1]
बेणतंय[2] मियां आतां
वाट आमची वेगळी...

आवय आवय
पळ गे घरांत
रेडो येयला दारांत
हडगी तुजी व्हरांक...
आवय आवय
हडगी घेवन तो पळ्ळो
कट्टी भर सोरो घेवन
हल्लेंत वचोन पडलो...
आवय आवय
आतां काय गे करुया?
उपार्शी पोटार आतां
कसां गे न्हिदूया...
आवय आवय
खडे गे वयतय
मूठ भर तांदळा खातीर
गांव कित्याक भोंवतय...
आवय आवय
आव्हान ह्यां पेलुया
रेड्याचे कोयेक आतां
पीळ मात्सो घालुया...
आवय आवय
रडों तूं नाका
दांडो घेवन बसतूंय हांगा
भियों मात नाका...
वासुची आवय
सदचे वरीच रडली
आनी [illegible]
दोगांय दोन कडेन
हातरूणा शिवाय न्हिदली...

---

1. पाटलो
2. निवळ करप.

53.

## ही रान काणी...

हांव एक सारको घुंवतां घुंव घुंव घुंवतां रान रान भोंवतां
भोंवता रे त्या पालसणांनी घळण दोंगर खोल देंगणांनी

हांव चलतां, चलतां चलतच रावतां आनी घेतां थाव
झडून गळून पडिल्ल्या त्या विविध झाड खोलप्यांनी
केन्ना मुयो काटमुयो वाळटी जावन राबितो म्हजो हांगा
झडपून पुरून नासून शेणून गेल्ल्या त्या रान रोयणींनी
जाल्यार केन्ना अस्वल वाग साळींच्या पेडीतल्या त्या
खोल खोल काळोख दाट दाट घळण वळण देगणांनी

हांव गरगर गरगरतां हुस्केतां खर्शेतां म्हजेच भोंवतणी
चलतां दिमकुऱ्यांनी केन्ना धांवता मेरवाच्या पावलांनी
उडून उंच उंच वतां हांव पालसण देगण घळी पलतडी
आनी दुखेस्त जावन बसतां सुकून गेल्ल्या झडां झुडपांनी

हांव घस्टतां कशटतां ओडत सरपटत हावेसान मुखार वतां
रिगतां बिळांत घुसतां पेडींनी जातां एकरूप फुलां फुलांनी
रान धड दरड कडे उंच उंच दोंगर खडयांचो[1] घेतां थाव हांव
मागीर थकून थकून भागून रिगतां वटवागळांच्या पेडींनी[2]

न्हंयचे आलतडी हांव केन्ना रान व्हाळांचे पलतडी पलतडी
भोंवतां भर दनपरां केन्ना केन्ना पावसाच्या झडी वावझडींनी
देखतां भरून घसघसपी फसफसपी वजरे वजरेच ते सगळे
दोंगराच्या त्या शिल्प कल्प सुंदर भुलोवपी कड्या कड्यांनी

तीं भोंवपी सावदां उडटीं सवर्णी मोराचीं रंग गंधयाळीं पांखां
नियाळटां हांव हें सगळें घोण, वायेरें, रणग्यांच्या दोळ्यांनी
भीर भीर सर सर सळ सळ पानां पानांत हो नाद रान रानपिसो
थाव घेतां आत्मसोदा फाटल्यान धांवतां सोश्या पावलांनी

आयज हांगा पेटला दाटला रानांत उजो जळटा रान रान सगळें
हुलपून गेल्यात कोण मेल्यात सगळ्यांक जाय थेंब थेंब थेंब पाणी
धुंवराचे लोट मळबांत धुकोट देगणांत खातड मड्यांचीं हांगा पेणी
हड्ड्यांत हुस्कार स्वासांत स्वास दोळ्यांत म्हज्या खार खार पाणी

हुलपून गेलां जळून गेलां गोबर जाला धुंवर धुंवरच सगळो ह्या रानी
म्हजें अस्तित्व आतां करपून पुसून नासून गेलां जालां एक काणी
गंध परमळ उडून गेला ह्या देगणा देगणांत मरण मरणाच्योच घाणी
रान रान रान रान रान रान रानाचीच ही रान मरण मरण मरण काणी...

---

1. फातरांचे उंच दोंगर.
2. फातरांचे तयार जाल्लें सैमीक भुंयार.

## 54.
## घोराची याद म्हूण...

सगळे कळवटून
तोंड घेवन गेल्लो
एका काळावयलो
मानुयेल द सिल्वा भाटकार
आयला आपल्या पुर्वजांच्या गांवात
आनी सोदपाक लागलो
आपल्या पुर्वजांचें घर
सोदतां सोदतां
पावलो तो एका
दोंगुल्ले कुशीक आशिल्ल्या
ल्हानश्या उंचवट्याकडेन
हांगाच आसलेलें जावंक जाय
आमच्या फामिलीचें घोर...
तो पुटपुटलो आपले भितरूच
आनी रिगलो भितर
झुडपानी भरिल्ल्या अस्कटांत
एका काळार आशिल्लें थंय एक घर
राजवाडो कशें
पूण आतां मातयेभरवण जाल्लें...
मोठ मोठे चिरे
चिऱ्यांचेर माती
आनी मातयेंत भितर
सुलच्या नळ्यांचीं असंख्य नळकुटां
तातूंत भरसून, कुसून, नासून
गेल्ल्यो त्यो घरांतल्यो वस्तू...

'कोण गा तूं?
आनी कोणाक सोदता तूं ह्या अस्कटांत?
घरानूच माल्लो उलो
आपल्या थरथरत्या आवाजान...
आंग काडीत मानुयेल पळयतूच रावलो
सरभोंवतणी
'हांव मानुयेल
जुवांद द सिल्वाचो पोण्टू'
भिये भियेतूच उलयलो तो
आनी भिर भिरते नदरेन
सोदपाक लागलो
कोण दिसता काय म्हूण
लागीं लागसाराक
तुज्या पोणज्यान बांदलेलें
घोर उलयतां हांव
यो असो भितोर यो
तुकां सोगळें घारे भोंवून दाखयतां...
तो चडपाक लागलो
एक एक सपण
आनी पावलो उंच उंच
दारां – जनेलां आशिल्ल्या त्या पुर्वजांच्या घरांत
हो चोय लांबचे लांब बल्कांव
हें तुज्या पोणज्याचें वॉल्तेर
हो आल्तार
हें मेज
ही पुस्तकांची आल्मार
आनी हांगा असो यो
वोयर चोय

शेमांय आनी शेपायच्या
मांडयेर बसून काडलेलो तुगे फोटो
तो पळयत रावलो
त्या आपल्या फोटवा कडेन...
'बाबा कोणाक चोयता
एसो नोदर लावन'
फिलूमाना हातांत दांडो घेवन
थरथरत ताचे म्हऱ्यांत आयलें
जुवांव द सिल्वाचो पोण्टू हांव
घोराक पळोवंक आयलेलों
'धाकलो बाबा मानुयेल
केदो व्होड जालायरे म्हुज्या पुता?
यो पुता
म्हुज्या घोरा यो
हें घोर मोडचे पोयलीं
तुगे शेपायचें पांयजेल काडून
दोवरलां हायें
तुमगे घोराची याद म्हूण...'

55.

## आमची माती

आमचे मातयेंत पाकड पेर
आमचे मातयेंत नाचणो पेर
आमचे मातयेंत कुळीद पेर
आमचे मातयेंत वरी पेर
आमचे मातयेंत तोर पेर
आमचे मातयेंत भात पेर
सगळीं पिकां काडूं येतात
म्हाका कसपी हात जाय...

आमचे मातयेंत माड रोय
आमचे मातयेंत केळ रोय
आमचे मातयेंत माडी रोय
आमचे मातयेंत काज रोय
आमचे मातयेंत पणस रोय
आमचे मातयेंत आंबो रोय
सगळें कितें किल्लून येता
पूण हें सगळें करपाचो
ध्यास जाय
धडपडपी पांय जाय
तळमळपी भुंयपूत जाय
कश्ट करपी हात जाय
खरेंच म्हाका हात जाय
मेळत व्हय...?

56.

## आमी कुळवाडी

आमीच ते कुळवाडी
माथ्याक मुंडासो
खांदार कांबळ
आकडेक[1] कोयतो
आनी हातांत कुराड घेवन
दोंगरा पालसणांत कुमेर शेतां हंडपी[2]
न्हंयचे तडीर पुरणी कसोवपी
व्हाळांक बांद घालून
वांयगणा पिकोवपी
आमीच ते कश्टी कुळवाडी...
नाचण्याच्यो भाकरी चाबडावपी
पाकड, वरयांचें शीत जेवपी
ताकाची आंबील भुरकावपी
आमीच ते बळिश्ट कुळवाडी...
रणमाल्यांत धोगां नाचोवपी
घोडेमोडणी खेळून धुल्ल उबोवपी
काणयो सांगपी
धालो, फुगडी, जत आनी सकारत गावपी
घुटमां पेटपी
धोलाच्या तालार बेधुंद जावन नाचपी
आमीच ते कलावंत कुळवाडी...
हातांत तुबकां घेवन
बंडा पुकारपी
पाकल्यांकडेन झूज मांडपी
तेंका हुलपावन धांवडावपी
आमीच ते धिटेस्त कुळवाडी...

---

1. लाकूड वा मेरवाच्या शिंगाची आकडी करतात. भेंडाक बांदपाचें हे आकडेक कोयतो लोंबकळयतात.
2. झाडां तोडप वा कातरप.

57.

## कल्पनेतली राजकुंवरी

एक सपनाळू गांव
गांवात म्हजें घर
घरांत म्हजी कूड
कुडीत हांव बसलां
कवीत करीत
कल्पनेतल्या राजकुंवरीचें...
पूण ते राजकुंवरीक
गांव ना
धड घर ना
घराक कूड ना
कुडीक वण्टी नात
आनी तिका कवीतय
करपाक कळना...
सप्नाळू गांवाचें
घराचें
कुडीचें
आनी वण्टींचें लेगीत
कारण,
कल्पनेतली राजकुंवरी
ती कल्पनेक थारो दिना
आनी
कल्पनेचे दोंगर निर्माण करप्यांक
तिच्या काळजांत
इल्ली लेगीत सुवात ना...

58.

## उजवाडाक होरावणी

हे उजवाडा
आमच्या राया
आमचें सर्वांग
उजवाडान भरून उडय
मना मनात आमच्या
विस्वास रूजय
आत्मविस्वास जागय
काळजांत सप्तरंगी उजवाड भेटय
आमकां कर स्वंय प्रकाशीत
आमच्या विचारांक दी स्फुर्त
आनी आचारांक दिका
उबारपाक घुडी नव्या समाज रचनेची...
हे मोगाळ उजवाडा
आमच्या सर्वय काळाच्या इश्टा
आमच्या पवलां कणकणी
आसूं दी तुजो सांगात
पर्जळूं दी वाटो
आमच्या सपनाळ्या फुडाराच्यो...
आमच्या हातांक दी बळगें
कबाड कश्ट करपाचें
दी शक्त आमच्या पांयांक
दोंगर -खडयो चडपाची
आनी हाड तेज आमचे बुद्देक
सगळ्यांच्या भल्या खातीर...
रे उजवाडा दया घना
कर आमचो तूं सांबाळ

आनी दी राखण खिणा खिणा
शिकय आमकां शांतिकायेचो धर्म
दी गा मंत्र मनीसकायेचो
सगळ्यांच्या बऱ्या खातीर
अनिश्ट वागणुके पासून
दवर आमकां पयस...
व्हर आमकां उजू मार्गान
जगाच्या कल्याणा खातीर
नाका आमकां भेद भाव
जाती कातीच्या नांवान
नाका गा आमकां रक्तखेव
धर्म आनी देशाच्या बळान...
हे महामेरवा उजवाडा
जीण आमची
भिजय गिन्यानान सर्वयकाळ
फुटू दी विचारांक आमच्या
नवप्रतिभेचे कोंब नवे
खेळुंदी आमच्या काळजांत
सृजनोत्सव सदांकाळ...
मनाच्या मळबा पोंदा आमच्या
लिकलिकुदी नकेत्रां
दीन – दुबळ्यांच्या फुडाराचीं
उदेवनी पुनवेचे असंख्य चंद्र
आनी फांकुदी चान्नें मायेचें
शृश्टेच्या चराचरांत...
हे नवनिर्मात्या उजवाडा
आमकां उठय न्हिदेतल्यान
जागय आमकां जागरणांतल्यान
कणाकणातल्यान वेंचूक शिकय

कशें जगपाचें तें
सदांच दुसऱ्यां खातीर
ताकाच लागून पेटत दवर
वाती आनी मेणवाती
आमच्या काळजांत निरंतर
आमी तुजींच गा बाळकां
तळ्यांतलीं अबोल साळकां
फुलपाक जाय सांगात
तुज्याच कवळ्या किर्णांचो...
हे जिवन सांगात्या उजवाडा
ह्या वेळार
कडयतात आमी आमच्यातलें
विखाळ दुश्टपण
आनी भेटयतात आमी तुकां
आमच्या काळीज गर्भांतलो
मोग, माया आनी आपलेंपण
आनी नतमस्तक जातात
आमीच ल्हान समजून
संवसारातल्या ल्हान - व्हड जिवां मुखार
उजवाडा, करतात नमन तुकां
नमन तुकां काळजांतल्यान
जवाडाच्या राया...

59

## पुत्रवासना

गर्भ पिशवेक
घट्ट गांठ मारून
जग भोंवडेर शेवटल्ली
ती भोगपिशी हिप्पीण
नग्न अवस्तेत
भारतीय संस्कृतायेच्या पलंगार
औरसपुताची आराधना करीत
हुदारी पातळ्ळ्या...
आनी आपले योनीत
दवरला धुंवरेत
पुत्रकामेश्टी यज्ञ...
रंद्रा रंद्रात
घुमतात मंत्र
अपथ्यं त्वा... अपथ्यं त्वा...
आनी दितात आहुती
अग्नी, वरूण, विष्णू
पृथ्वी, सोम आनी सुर्यसावित्रीक
पूण,
आवय जावंक तळमळपी
ते पापणीक
उगडास खंय आसा
गर्भपिशवेक मारिल्ले ते गांठिची
आनी जाणविकाय त्या
चितेल्ल्या कर्मकांडी विधीची...

60.

## प्रवासी सुकर्णीं

प्रवासी सुकर्णीं आमी
जिणेची वाट दाखय
मळब माचयेर
खेळटात आमी
दर्यांत आमचें
पडबींब दाखय...
पाखांटे आमचे
वळून येयल्यात
विसव घेवंपाक
जुंवो दाखय...
आनी
जिणेत शक्त आसा मेरेन
एकाच रुखार बसून
गांवक शिकय...
आनी मेकळो मेकळो
स्वास घेवंक शिकय...

61.

## कित्याक तूं कडसल्लें?

पावस झडटा सैम धोलता
सगळो वांठार गेलो फुलून
तेन्नाच तुजी याद मोगा
काळजांत अचळय आयली भरून
शिरशिरत्या मृधगंधी पावसांत
तूं चिप्प चिप्प गेल्लें भिजून
लजयाळे चोर नदरेन तुवें
देखलो आडसाक म्हाका लिपून
तुज्या मोरपांखी रुपाक पळोवन
हांव दडका दडकांनी कोसळ्ळों
तेन्नाच मोगा मळबांत पयस
आमच्या सपनातलो इंद्रधोणू उदेल्लो
त्या रंगा रंगांचे असंख्य पुजुले
अचळय पोश्यांत हांवें पुजायल्ले
घोंटयेंत तुजे ओतचे पयलींच
थंयच्यान कित्याक तूं कडसल्लें!

62.
## गोंया तुज्या मळाबा पोंदा

गोंया तुज्या मळबा पोंदा लोकवेदाक फुट्टात कोमऱ्यो
सुकण्यांचीं म्होंवाळ गितां रानात वाजतात थोकऱ्यो[1]

शितळगंधी चान्या लेपांत धालांच्यो धोलतात पाती[2]
अस्तुरेच्या काळजांत खोस मांड जागयता रातीन राती
वसंत रुतुच्या परमळान हांगा धोल–ताशे घणघणतात
ओसोऽऽय च्या धूंद तालार रोमट पावलांक नाचयता

आपा–लिपा श्रावण सरी मळब माचयेर नाचता हरी
सप्तरंगी काळजांत आमच्या फुगड्यो हांगा फेर धरी
दर्या गाजार धोलतात माड रेंदेरा जिबेर कांतरा भार
धुलपद हांगा फुलता ओंठार मांडो गितांक वाजता गितार

जागरा मांडार नाचतात संवगां शिंगाड्याचीं लावन शिंगां
रणमाल्याचे जतीतूय हांगा सिता माईचीं गळटात दुकां
धालो, लग्न गितांचो हांगा मेळ गोफ, तालगडी, तोणयामेळ
माड माडयांच्या गोंयात ह्या काले, धाले आनी खेळूच खेळ

---

1. वेळवा पासून तयार केल्ली थोकरी रानात म्हशींची जाग मेळची म्हण तांच्या गळ्यांत बांदतात.
2. धालांक उबीं राविल्ल्या बायलांच्यो दोन रांगो.

63.
## जीण म्हजी करपतना...

जिणे वाटेवयलो परमळ म्हजे
इश्टा खंयचे खंय उडून गेला
ताका सोदीत भोंवता भोंवता
जिणेचोच हांगा गोबर जाला...

दर्या हावेसी जिणेत म्हजे
ल्हारानीच खवदळ घातला
जोरगतीच्या पाणयात खोल
सर्वांगाक म्हज्या चिकल दाटला...

दिंगत – मळबी मनाक म्हज्या
गेल्यात वेरो आडव्यो उब्यो
ह्या वेरांक मुंडयतां – मुंडयतां
वातड जाल्यात इत्सा सगळ्यो...

वसंत–रुतूत खेळटलों म्हटल्यार
ग्रिष्मरुतून हांगा दाटी केल्या
काळ पानगळीचो सोंपलो तरी
कोमऱ्यो नव्यो रुसून बसल्यात...

मरण कळो सोंसतलो म्हळ्यार
कुडच म्हजी भेरेवन गेल्या
करमेल्ली बरगेल्ली जीण म्हजी
पाणथळ जाग्यार सुकून गेल्या...

64.

## हांस गो फुला

हांस गो फुला हांस बेगीन
किर्णा फुट्टा फुट्टाना
झाडां पेडांक लागलां पिशें
परमळ तुजो चाखताना...
दवां थेंबे पांकळ्यार तुज्या
गीत म्होंवें गायतना
शिंयाळो वारो लागला व्हांवूक
मुमुरखेंच तूं लजताना...
तणाक लेगीत आयल्या जाग
काळजाक काळीज भिडटना
व्हांवती न्हंय थांबल्या हांगा
नदरेंत नदर बुडटना...
पांकळ्यो तुज्यो मेट गो बेगीन
कुपाक कुपां भेट्टना
पिसोळ्यां भिरें खर्शेंलां पळय
तुकां सोदता सोदताना...

65.

## प्रिया तुजो

रानातुल्यान काडटां वाट
मन जालां गो खंती
फुलवाती पेटल्यात मळबांत
हे उमाशेचे काळखे राती...
रानातुल्या फुलां फुलांनो
परमळ इल्लो फांकयात
प्रियाक म्हज्या साद घालून
म्हऱ्यांत म्हज्या आपयात...
रानातुल्या सुकण्या सावजानो
गीत गायात मिलनाचें
प्रियाक म्हज्या आयकुदी
दुःख म्हज्या वेदनेचें...

66.
## तुजे भोंवतणी पोरसूं फुलय

काळजा खांदयेर सुकणें एक
विरह गीत गायता पळय
पाखां सपनाळीं लावन तूं
मळबा माचयेर प्रीत झडय...
सुकण्या पिला कॅनवासार तुज्या
चित्रां मनातलीं रेखून पळय
धुरस जाल्ल्या सपनार तुज्या
रंग रंगयाळीं दुकां गळय...
फुडार तुजो घडयतां घडयतां
हावेसाचीं सपनां पळय
माग सावळेचो सोदतां सोदतां
उदकांत झरीच्या मन बुडय...
काळीज अशें फुगार जातकच
तुकांच तूं सांसपून पळय
पावलां बेगीन उखल मोगा
तुजे भोंवतणी पोरसूं फुलय...

67.

## भरून तरी घे...

कितल्या वर्सांनी मेळ्ळ्यांत आमी
फार्टी वळून पळोवन तरी घे
काळजांत दुकांनी केल्या दाटी
वेळ आसल्यार जाणून तरी घे...
सपनां किल्लूंक घातिल्लीं आमी
तुजीं तूं तितलीं हुमटून तरी घे
परमळान भल्ला पोसो म्हजो
तुजो वाटो काडून तरी घे...
काळोख दाटला सरभोंवतणी
उजवाड चिमटीभर मागून तरी घे
पुस्तक यादींचें बरयलां हांवें
मूड आसल्यार वाचून तरी घे...
उपाशीं पोटार बसलां हांव
भूक लागल्यार जेवन तरी घे
स्वास म्हजो थांबूक लागला
जाय तितलो तुकां भरून तरी घे...

68.

## जिणेचें गीत

जिणेचें नवें गीत गायतना
सूर ताल गुंथीत वचचें
बेसुरांची पर्वा करिनास्तना
गीत ओंठार घोळयत रावचें...

वाटेर उबारिल्ल्यो काळखा वण्टी
खोंट मारून उडोवन दिवच्यो
उजवाडान माखिल्ल्यो पावल खुणो
जिणे वाटेर उदेत वचच्यो...

काळीज गर्भांत उतर मोगाचें
वाटसुऱ्यांक वाटीत वचचें
निर्शेल्ले मनीस जिणेत
रोपे हावेसाचे रोयत रावचे...

म्होंवान कालयल्ल्या सादाक
परतणेचो साद घालचो न्हय
काळीज भरतेर पाणावल्ल्या दोळ्यांनी
गर्भगळीत जावन रडचें न्हय...

पांवलांतली शक्त सोंपली तरी
साता – समिंदराक हुपचो आसा
भैरवीन आलाप माल्लो तरी
गीत नवें आमकां गावचें आसा...

69.

## पावस तुकां सादयता...

आयलो पावस घेवन मोगा उगडास ते म्होंवे
तूं आयज पयस अशें काळजाक पडल्यात घावे ||धृ||

पावसांत चिप्प भिजतना मोगाक कोमरी फुट्टाली
कोमरेल्ल्या पानातल्यान प्रित हांसरी लजताली
पारजती पोरसांत पावस मोगाचो किल्लतले रोपे नवे
मृदगंधाचो परमळ प्रिया उडटात सुकण्यांचे थवे ||1||

वारें वादळ झेलतना काळजांत निरंजना पेट्टालीं
झडपल्ल्या सैमाक पळोवन दुकां पोल्यार गळटालीं
तीच दुकां आजय मोगा भिजयता काळीज घावे
पोरसूं हुपून वचचे पयलीं परमळूं आतां नातें नवें ||2||

70.

## सपन प्रियेचो गांव

तुज्या मोगांत पडलां हांव
आडवणां पलतडी म्हजो गांव ॥धृ॥

रान फूल हें फुल्लें परमळ्ळें
त्या परमळांत गूंग हांव
खंय तूं आसा सांग मात्सें
पडल्यात काळजाक म्हज्या घाव ॥1॥

पिशें मन हें तुजेर भाळ्ळें
गळयतां दुकां दीस रात हांव
अमुरपिक्या सांज वनात हांगा
गीत खंयचें तुजें आतां गांव ॥2॥

सुर्या लिपलो काळोख फांकलो
खंय खंय सोदूं तुकां हांव
कोण सांगतलो खंयसर आसा
म्हजे सपन प्रियेचो गांव ॥3॥

71.

## होळी झुजय

होळी खेळय होळी झुजय
एकचाराचो मंत्र जागय
सप्तरंगी गुलाल शिंवरून
मना मनात प्रित रुजय
होळी खेळय होळी झुजय

उत्सवाची धोलार तोंडी
एकठांय जाल्यात सवंगडी
मनीसपणाचें गीत गावन
उमेदीच्यो पाकळ्यो झडय
होळी खेळय होळी झुजय

भावकेच्या आंगणांत ह्या
शेणाचो हांगा लेप सारय
उजवाडाची निसण लावन
मळबांत इश्टा घुडी हुबय
होळी खेळय होळी झुजय

72.

## यो गा धनयां

पावस राजा योग गा धनयां
उदक कुणग्यानी साठोवन वच

पावशीं कुपां दाटोवन मळबांत
स्फुर्त मनात रिगोवन वच
कांबळ माथ्यार नांगर हातांत
जोता फुडल्यान नाचून वच

तुजेच कृपेन पिकतात शेतां
पोटांत थंडाय फाकोवन वच
थाम धोलता केंसरां हालतात
शेतांत म्हज्या येवन वच

73.

## सत्तरी म्हजी

सत्तरी म्हजी न्हेसल्या साडी पांचव्या रानाची
पळयत पळयत रावची अशी सत्तरी मोगाची

दोंगर आमचे निळे काळे उबे सोश्याचे कान
धांय दिकांनी फुल्लां रान भल्लां परमळान
रुखा रुखार गायतात सुकर्णीं भांगरा पांखांचीं
सत्तरी म्हजी न्हेसल्या साडी पांचव्या रानाची

पावसा तालार नाचता मोर एका पांयाचेर
शेतां भाटां धोलतात पळय वाऱ्या सुरांचेर
जाणिवेचे फुलता मळे भांगरा किर्णां हावेसाचीं
सत्तरी म्हजी न्हेसल्या साडी पांचव्या रानाची

हांगा थंय व्हांवतात न्हंयो म्हों‌वाळ उदकाच्यो
गांवा गांवांत फुट्टात कोमऱ्यो काल्या शिगम्याच्यो
बसता तोंडी धोलार हांगा आमच्या एकवटाची
सत्तरी म्हजी न्हेसल्या साडी पांचव्या रानाची

इतिहासाचीं बरयलीं पानां आमच्या झुजाऱ्यांनी
हाता पायांक पडून बेडयो बसले ते बंदखणिनी
खिणा खिणा जागयता भावा म्हों‌वाळ याद तांची
सत्तरी म्हजी न्हेसल्या साडी पांचव्या रानाची

74.

## जमल्यात रणगे

धोरा[1] भोंवतणी जमल्यात रणगे आपलीं पोटां भरपाक
बायले मुखार नाचतात ल्हेवटे आपलें सादोवन घेवपाक

राजकारणी भुलयता मतदारांक आपल्याक मतां घालपाक
घालून म्होवाळीं भोंवतात कार्यकर्ते वाटून चाटून खावपाक

निवडणूक जिखतकच ओत्तात पयसो चॅरमेन मंत्री जावंपाक
सत्ता तांच्या हातांत येतकच मतदाराकूच लागतात पिडपाक

आपलेच पुतळे बांदून ते पोलिसांक सांगतात राखपाक
हाताक बेडयो पडटकच मात भियेतात बंदखणीत वचपाक

1. मेल्लें गोरूं.

75.
## घराक म्हज्या लायला उजो

घराक म्हज्या लायला उजो धगाक बसात मातसे
दायजीच म्हजे फितूर हांगां पूण वागतात इश्ट कशे

रंग तोंडाक फासून सोयरे बसल्यात भिकेक आमचे
आंगभर चडोवन भांगर ते जगतात गिरेस्त कशे

ओडून कफन मड्यावयलें विकूंक घेवन बसले
बाराव्याक खावन चिकन मसुंडेत वचून ओंकले

नाल्लाचे कट्टेंत बुडोवन काडलें नाक हांवें तांचें
लज नाशिल्ले शिमरे पळयात हांसतात सज्जन·कशे

76.

## म्हाकाच फटींग केलो

गोड उलोवन ताणें निमणो म्हाकांच फटींग केलो
हातार रिकामो दोणो दवरून प्रसाद खावन गेलो

कश्टान जोडिल्ले पयशे मागपाक ताचेकडेन गेलों
बँकेत दवरिल्ल्या पयशांचेंय कळंतर खावन गेलो

वाट मसुंडेची चलतना मड्यानूच माल्लो उलो
भुकेन भुकेल्लो सरण दाळपी उजो खावन मेलो

रातचो न्हिदपाक ताका हांवें जागो इल्लो दिलो
हातरूण खाकेक मारून तो फांतोडेर उठून गेलो

77.

## दियात रे म्हाका सोरो इल्लो

दियात रे म्हाका सोरो इल्लो खीण खीण जगपाक
रिकाम्या बल्लाक[1] लायलां तोंड वासान पोट भरपाक

पांय म्हजे जाल्यात पांगळे आदार जाय चलपाक
गेला पूत घेवन कुबड्यो उज्यान लासून उडोवपाक

फाट तेंकोवपाक सुवात जाय विसव इल्लो घेवपाक
पांय पसरल्यात शेजाऱ्यान वसरो आपलो करपाक

रडटा रडटा रडतच आसां काळीज रितें करपाक
गेल्ली बायल परत आयल्या सरण म्हजें दाळपाक

---

1. सोरो भरून दवरपाक लाकडांच्या फळयांचें केल्लें आयदन.

## लेखकाक फाव जाल्ले पुरस्कार :

१ कथा पुरस्कार नवी दिल्ली-२००३

२ कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय हांचो *दवरणें* पुस्तकाक साहित्य पुरस्कार-२००५

३ भाऊराव देवरस सेवा न्यास, लखनव (उ.प्र.) हांचो पं. प्रतापनारायण मिश्र स्मृती युवा साहित्यकार सम्मान-२००७

४ धि गोवा हिंदु असोसिएशन, मुंबय हांचो *दवरणें* पुस्तकाक कविवर्य पद्मश्री बाळकृष्ण भ. बोरकर स्मृती पुरस्कार-२००७

५ गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी हांचो *दवरणें* पुस्तकाक सर्वोत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार-२००८

६ टी. एम. ए. पै फाऊंडेशन्स, मणीपाल कर्नाटक हांचो *दवरणें* पुस्तकाक तोखणायेचो साहित्य पुरस्कार-२००८

७ ११ वें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन, गोंय हांचो सर्गेस्त मेघ:श्याम नायक यादस्तीक युवा साहित्य पुरस्कार-२००९

८ कैंद्रिय साहित्य अकादमी, नवी दिल्ली हांचो *इगडी बिगडी तिगडी था* ह्या पुस्तकाक बालसाहित्य पुरस्कार-२०१०

९ गोंय सरकार हांचो युवा सृजन पुरस्कार-२०१०

१० ग्रामीण कला आनी सांस्कृतीक संस्था, वाळपय हांचो सत्तरी अस्मिताय पुरस्कार-२०११

११ *म्हाद्य काळजांतल्यान कागदार...* ह्या पुस्तकाक गुंडू सिताराम आमोणकार उत्कृष्टताय पुरस्कार-२०११

१२ *म्हाद्य काळजांतल्यान कागदार...* ह्या पुस्तकाक कोंकणी कला साहित्य केंद्र, कुडचडें हांचो २०१२ वर्साचो जनगंगा पुरस्कार.

❑ हाचे भायर बाकिबाब बोरकार यादस्तीक काव्य सर्त, काव्य जागर कविता सर्त, सरस्वती मंदिर काव्य सर्त, सि. ई. एस. महाविद्यालय आनी हेर काव्य सर्तींनी कवितेखातीर इनामां फाव जाल्यांत.

प्रकाश पर्येकार हो पिंडधर्मान व्हड तांकिचो कथाकार. ताणें बरयल्ल्या कथांचें म्हत्व कोंकणी पुरतें ना तर भारतीय कथेच्या संदर्भात तांका मोल आसा. *आमचे आमी* हो ताचो पयलो वयलो कविता संग्रह. हांव ताचे कडेन एका कथाकाराचो संग्रह म्हण पळयतां. ताचें कारण ताका आशिल्ली कथात्मक बसका. एक कवी ह्या नात्यान आपली भुमिका मांडटाना तो बरयता. बायुलें, पांडू, सुखाप्पा, माली, साजरो, मानुयेल द सिल्वा, तशेंच आवय-पूत, आजी-नातू, घोव-बायल, भाटकार, शेतकार, मेस्त, कुंभार, पसरकार, खाटीक, स्वातंत्र्य सैनीक आनी मोगी अशीं साबार पात्रां कवितेच्या रुपान तुमचे कडेन संवाद सादतलीं.

पर्येकाराले कवितेक आशिल्लो सामाजीक आशयाचो संदर्भ म्हाका म्हत्वाचो दिसता. ती भुतकाळांत रमना. पूण ताका वर्तमानाचें भान आसा. ताच्या कांय कवितांनी हें भान दिसता. 'माळयेचें घर' हे कवितेतलो भुरगो माळयेचें घर बांदपाचो हावेस बाळगिता. सपना पळोवप म्हाळ्यार कसलीच चूक न्हय. आनी सपनाक जर कश्टांची जोड आसल्यार मनीस तें खरें करपाक शकता. ही कविता सपन आनी वास्तव हाचे मदीं आशिल्लें अंतर दाखयता.

गांवगिरी भास आनी प्रतिमांचो वापर हें पर्येकाराले कवितचें खाशेलेंपण. आनी तें कितलेश्याच अर्थांनी योग्य आसा. ज्या वाठारातल्यान कवी येता ते मातयेचो वास ताचे कवितेक येतलोच आनी ताकाच लागून ती कविता अदीक प्रभावी जावंक पावता. संवसारीक कवितेंत अश्यो जायत्यो देखी आसात. रॉबर्ट बर्नस् ह्या कविची हांगा याद येता. कवितेक लाबिल्ले फांटभुयेचेर भाशेचो वापर निंबून आसता. ताका लागून ते कवितेचे अभिव्यक्तीक प्रमाण भास मानवना. तिका ओंठाचेर घोळपी भास आपणावची पडटा. आनी ताकाच लागून ते कवितेक एकेतरेची जिवसाण येता. ताचो अणभव *आमचे आमी* हो कविता संग्रह दिता.

– माधव बोरकार

ISBN 978-81-920961-2-4




